# नाटक एका नाटकाचें

नुस्त्याची याद न्ही.
नुस्तीच याद आली म्हणून
आम्ही तुमच्यापाशी आलो.
परतो मात चूक तूं !
तुजे दोन कुडके करतां
आनी एकाचें सुकें करतां
आनी दुसरो फ्राय करतां -

राजय पवार

आतां हो निमाणो
म्हूर्ता नाल्ल.
हो देवाच्या पायांकडलो
नाल्ल पावता
सवायशीं रूपया -
पयली खेप !
सवायशीं रूपया
पयली खेप !....

- कोण आहे रे तिकडे ?
- आज्ञा महाराज
- राणी साहेबांना आम्ही याद
केलंय म्हणून सांगा.
- जशी आज्ञा महाराज...

# नाटक एका नाटकाचें

प्रा. राजय पवार



**प्रकाशक**
सानिका प्रॉडक्शन

**Natak Eka Natakachem**
(Konkani Drama)

**नाटक एका नाटकाचें**
(कोंकणी नाटक)


'ॐकार', नवदुर्गा गार्डन,
कळमा मळ, बोरी, फोंडें - गोंय
फोनः 9860716071

**प्रकाशक :**
सानिका प्रॉडक्शन,
'ॐकार', नवदुर्गा गार्डन,
कळमा मळ, बोरी, फोंडें - गोंय

प्रकाशन क्र. : 5

पयली आवृत्ती : 2010

**छापणावळ :**
लईराई प्रिंटर्स, मडगांव
फोनः 2704213, 9822102040

मुखचित्र : गणेश गांवकार

मोल : 50 /-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'कोंकणी नाटक/तियात्र मांड' येवजणेरवाला छापलां.

## ‘वस्त्रहरण’

नाटकाच्या माध्यमांतल्यान

मालवणी बोलीक

राष्ट्रीय पांवड्यार

नामना मेळोवन दिवपी

आनी

कोंकणी नाटकाचेर

काळजांतल्यान मोग करपी

सर्गेस्त मच्छींद्र कांबळी (तात्या)

हांकां

नाटक माचयेर सादर करचे आदीं लिखीत मान्यताय/मानधन हे संबंदांत लेखकाकडेन संपर्क सादचो.

## नाटकाचो पयलो प्रयोग

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग 'कलाचेतना' वळवय, हांणी बिरेस्तार, 30 मार्च 2000 ह्या दिसा श्री शांतादुर्गा देवस्थान, सांतेरीभाट, वळवय हांगा शिगमाच्या निमतान सादर केलो.

## दिग्दर्शक

श्री राजदीप नायक

## नाटकांतले कलाकार

प्रवीण श्रीकांत नायक

कालीदास रामनाथ नायक

राजेंद्र तुकाराम नायक

गोकुळदास नायक

जयंत महादेव नायक

योगेश कांता नायक

सागर महादेव नायक

देवेंद्र तुळशीदास नायक

(सर्गेस्त) पुरसो मुकूंद नायक

प्रशांत (दादा) रामदास नायक

शेखर रमाकांत नायक

# प्रस्तावना

भौमानेस्त राजयबाब पवार हांणी आपल्या 'नाटक एका नाटकाचें' ह्या पुस्तका खातीर प्रस्तावना बरय म्हळी आनी हांव मात्सो बुचकळयांत पडलों. कारण कोणेंय स्टेजीर आपोवन पांच-धा मिनटां मनोरंजन कर म्हणलें जाल्यार, आदल्या खंयच्याय नाटकांतले डायलॉग मारीन पूण... सरळ सरळ प्रस्तावना बरय म्हणटकीच, कितें करचें तेंच कळना जालें. पूण प्रस्तावना हांवेंच बरोवंची म्हूण राजयाचो आग्रो, कारण ह्या नाटकाचो पयलो वयलो प्रयोग म्हज्या गांवांत शिगम्या निमतान हांवेंच बसयिल्लो, 'कलाचेतना'च्या बॅनराखाला.

हांगा 'पयले'पणाचो योग जुळून आयला. राजयाचें हें पयलेंच स्वतंत्र नाटक (1998 वर्सा बरयिल्लें), आनी ह्या नाटकाचो पयलोच प्रयोग हांवें दिग्दर्शीत करून म्हज्या गांवांत 30 मार्च 2000 ह्या दिसा सादर केल्लो. हांवें दिग्दर्शीत केल्लें हें पयलेंच नाटक आनी आतां हें नाटक पुस्तकरूपांत उजवाडा येतना म्हजी ही पयलीच प्रस्तावना. हे प्रस्तावने निमतान 10 वर्सांफाटल्यो यादी जाग्यो जाल्यो. हांवें म्हजी 'कलाचेतना' ही नाट्यसंस्था सुरू केल्ल्याक तेन्ना दोन वर्सां जाल्लीं. आनी त्याच वर्सा आमी 'शिरी रे शिरी अधांतरी' ह्या नाटकाचे 100 प्रयोग केल्ले. नाटकाच्या मळार म्हजेविशीं एक आशादायी विस्वास तयार जाल्लो. म्हजे वांगडी म्हजे फाटल्यान लागले, 'शिगम्या खातीर एक नवीन नाटक करया'. हांवेंय थारायलें, ह्या शिगम्याक एक नवें नाटक करपाचेंच. एक दीस राजयाक मेळून ताचेकडेन एका नाटकाची मागणी केली. ताणें सांगलें, 'एक नाटक आसा. पूण तातूंत एकूय स्त्री-पात्र मात ना'. हांवें म्हळें, बरेंच जालें. कारण तेन्ना स्त्री-पात्र मेळप खूबच कुस्तार जातालें. देखून स्त्री-पात्राखातीर मानधनूय चड दिवचें पडटालें, आनी पावणेचे पयशे ह्या सगळया खर्चाखातीर पावपा सारके नासताले.

म्हाका याद जाता, हें नाटक तेन्ना आमी 'पक्याचो धुमधडाको' ह्या नांवान सादर केल्लें. ह्या पयल्या प्रयोगांतले चडशे कलाकार नवेच आशिल्ले. खरें म्हळयार ती आमची क्रिकेट टुर्नामॅन्टा खातीरची टीम ! पूण चडशा जाणांक नाटकाचीय आवड आशिल्ली. पयलेच खेपेक माचयेर चडपी कलाकारांक एकेतरेचो आत्मविस्वास दिवपी अशें नाटक म्हज्या हाताक लागिल्लें. हातूंतले जायते संवाद आमकां 'आमचेच' कशे दिसले. देखीक (पांडूचो संवाद) 'आंगाक हात तरी लावन दाखय ...तीं कितें देसाया माडाचीं आडसरां रे !' दिसपट्टे जिणेंत हो डायलॉग आमी जायते फावटी मारिल्लो. हें नाटकूच न्हय, तर ह्या नाटकाची येसाय लेगीत आमी भरपूर ॲन्जॉय केल्ली.

नाटक बरेंच रंगलें. आमी कलाचेतनाचे वतीन राजयाच्या ह्या पयल्या नाटकाच्या पयल्या प्रयोगाचो म्हूर्त सादून, एक ल्हानसो सत्कार सुवाळो आयोजीत केल्लो. भौ. पुंडलीक नायकांचे हस्तुकीं आमी राजयाचो शाल, श्रीफळ आनी मानचीन्ह दिवन सत्कार केलो. उपरांत जाल्ल्या प्रयोगाक लोकांनी भरपूर गर्दी केल्ली. सगळयांक प्रयोग खूबच मानवलो. आनी खास करून स्वता लेखकाक तो आवडलो.

जशें लेखक म्हण राजयाचें हें पयलेंच स्वतंत्रनाटक तशेंच एक दिग्दर्शक म्हण म्हजेंय तें पयलेंच नाटक आशिल्लें. त्यावेळार एक गजाल म्हज्या लक्षांत आयिल्ली ती म्हळयार, नव्या कलाकारांक घेवन नाटक बसयतना हें नाटक खूब सोपें आनी सुटसुटीत आशिल्लें.

हें नाटक जरी पुरायेन विनोदी आसलें तरी तातूंत एक बोध दिवपी विचार आयला. स्त्री-पात्रा संबंदांत गंभीरतायेन चिंतपाक लावपी असो हो विचार. नाटकांतल्या 'पोक्या'च्या माध्यमांतल्यान हो विचार आयला. नाटक सोंपता आसतना ह्याच विचारान सोंपता. नाटकांखातीर स्त्री-पात्र मेळप, हो आयज लेगीत खूब महत्वाचो प्रस्न जावन आसा. नाटकांतल्या स्त्री-पात्राक जो मान दिवपाक जाय ताचो अभाव जायते कडेन जाणवता. कांय स्त्री-पात्रांचे अणभव हांवें स्वता तांच्याच तोंडांतल्यान आयकल्यात. आनी ते अणभव आयकून, स्त्री-पात्राचो मान राखनाशिल्ल्यांची तिडक मारल्या.

देवळाकडेन चलपी येसायेवेळार मुद्दाम लायट उडोवप, त्या स्त्री-पात्रांकडेन आधाशी नदरेन पळोवप, तांकां हाड-व्हर करपी दादल्यांकडेन तांचे संबंद जोडून येतना-वतना तांकां त्रोसां मारप...अशे जायते अणभव स्त्री कलाकारांनी सांगल्यात. आयोजकांकडल्यानूय जावपी अन्याय कांय जाणांनी व्यक्त केल्यात. देखीक : नाटक सोंपल्या उपरांत ती घरा कशी वतली , खंय जेवतली हाची सादी चवकशी लेगीत करप ना, वा नाटक सोंपल्या उपरांत देवळांतच तिची न्हिदपाची वेवस्था करप. . . अशेतरेचे अणभव आयच्या काळार लेगीत आयकूंक मेळप ही दुखाचीच गजाल म्हणूंक जाय. अशे तरेन तुमी बी केन्ना वागूंक नात मूं ? ह्याच कारणांक लागून तुमच्या नाटकाखातीर स्त्री-पात्र सोदून हाडप कठीण जायना मूं ? ह्या प्रस्नांचेर आयज नाट्य कलाकार आनी प्रेक्षक, दोगांयनी विचार करपाची गरज आसा. राजयाचें हें नाटकूय होच विचार करपाक प्रवृत्त करता.

आदीं वाड्यावाड्यांनी लोक आपलीं नाटकां आपूणच बसयताले. (आतांभशेन भायल्यान नाटक हाडनासले.) आतां ती आदली परंपरा बंद पडल्या, ताचेफाटलें एक कारण म्हळयार त्या त्या गांवांतलीं स्त्री-पात्रां नाटकांत काम करपाखातीर सट करून तयार जायनात. ही परिस्थिती बदलतली जाल्यार स्त्री-पात्राकडेन पळोवपाचो आमचो चुकीचो दृश्टीकोन पयलीं बदलूंक जाय.

आयज जायते जाण विनोदी नाटकांक उणाक लेखतात वा तांची तुळा गंभीर नाटकांकडेन करून विनोदी नाटकाक त्रोसां मारतात. नाटक, तें मागीर गंभीर आसूं वा विनोदी आसूं, ती एक सांघीक कला. तिचेकडेन कला म्हणूनच पळोवप समा जातलें. आनी तशें पळोवंक गेल्यार, गंभीर नाटकां करप सोपीं पूण विनोदी नाटकां करप खूब कठीण.

राजयाचें हें नाटक स्त्री-पात्राचें महत्व सांगतनाच आनी एके गजालीकडेन लक्ष ओडटा. ती म्हळयार, आमची इतिहासीक नाटकांची परंपरा आनी त्यो यादी जागयता. हें नाटक विबोद, संवाद, आशय, मांडणी सगळ्याच आंगांनी बेस बरें जालां. राजयाचीं हेर नाटकां वाचलीं जाल्यार ह्या नाटकांतलें ताचें 'पयलेंपण' जाणवता. ताचीं अंता अंता शिरीमंता,

जमलें रे जमलें, आमचो हात जगन्नाथ, डरने का नाय, टेन्शन फ्री...हीं नाटकां, ताणें स्वताच दिग्दर्शीत केल्ल्यान आपले संहितेंत तो जायते नवे आनी बरे संस्कार करपाक पावलो. पूण ताणें, हें नाटक मात अजूनमेरेन दिग्दर्शीत करूंक नाशिल्ल्यान, तशेतरेच्या संस्कारापसून कुशीक उल्लां आसतलें, अशें म्हाका दिसता.

आदीं गांवागांवांनी जीं मराठी नाटकां जातालीं, थंय आतां कोंकणीच नाटकां जावपाक लागल्यांत. कोंकणी नाटकां सादर करपी संस्थाय वाडल्यात. नवे कलाकार आतां कोंकणी नाटकांच्योच संहिता सोदतना नदरेक पडटात. राजयाचें हें नाटक पुस्तक रूपान येता ही तांचेरखातीर उमेदिची गजाल.

राजयाच्या रूपान कोंकणीक एक उत्कृश्ट नाट्यलेखक मेळ्ळा. ताच्या फुडल्या नाट्यलेखनाच्या प्रवासाखातीर म्हज्यो शुभेत्सा.

17 मार्च 2010, वळवय - राजदीप नायक

# येसाय मारचे आर्दी

हें म्हजें पयलें स्वतंत्र नाटक. 1998 वर्सा बरयिल्लें. आतांमेरेन ह्या नाटकाचे वेगवेगळया संस्थांनी, कलाकारांनी, वेगवेगळे कडेन मेळून 17 प्रयोग केल्यात. हें नाटक बरोवन जाल्या उपरांत प्रशांत सतरकाराक दिल्लें. पूण तातूंत सुमाराभायर कलाकार आशिल्ल्यान वेवसायीक पांवड्यार तें बसोवप शक्य जावचें ना, अशें ताचें मत जालें. 1999 वर्सा डिसेंबरांत राजदीप नायक मेळ्ळो. ताणें आपल्या गांवांत शिगम्याकडेन करपारवातीर एक नवें नाटक आसल्यार दी म्हण मागणी केली. हांवें ही संहिता राजदीपाक दिली. (तेन्ना ह्या नाटकाक हांवें नांव दिवंक नाशिल्लें) संहिता दितनाच सांगलें, 'हातूंत स्त्री पात्र मात ना'. ताणें विचारलें, 'नाटकाचें नांव कितें ?' हांवे सांगलें, 'अजून बारसो करूंक ना. नांवूच येवजना कितें दवरचें तें. तुका नाटक वाचतकीच कितेंय येवजल्यार सांग'. राजदीपान नाटक व्हेलें. वाचून जातकीच ताणें आपल्याक सुचिल्लें नांव कळयलें 'पक्याचो धुमधुडाको'. हांवें म्हळें, 'उपकारता. सद्या त्याच नांवान करात नाटक'. आनी बिरेस्तार, 30 मार्च 2000 ह्या दिसा सांतेरीभाट, वळवय हांगा ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग जालो. 'कलाचेतना' संस्थेचे वतीन हो प्रयोग जालो.

नाटकाचें दिग्दर्शन राजदीप नायकान केल्लें. नाटकाक आकांताची गर्दी जाल्ली. म्हज्या पयल्या नाटकाच्या पयल्या प्रयोगा निमतान कला चेतनान म्हजो सत्कार आयोजीत केल्लो. कोंकणी रंगमाचयेवेले खडेगांठ नाटककार श्री. पुंडलीक नायक हांचे हस्तुकीं हो सत्कार जाल्लो. पुंडलीकबाबाच्या गांवांत म्हज्या पयल्या नाटकाचो पयलो प्रयोग आनी सांगाताक म्हजो पयलो सत्कार... अजूनय तें चीत्र तश्शाचे तश्शें दोळयांसामकार उबें जाता.

उपरांत नाटक सुरू जालें. राजदीपासारक्या कलाकाराचें दिग्दर्शन लाबिल्ल्यान नाटक अदीक बरें जाल्लें. लोकांचो हांसो पळोवन हांव एके वेगळेच उमेदींत आशिल्लों. बरोबर धा वर्सांनी आतां (मार्च 2010) तेंच नाटक 'नाटक एका नाटकाचें' ह्या नांवांन उजवाडा येता.

ल्हानपणांसावन म्हाका नाटकाची खूब उमेद. जल्मासावनच हांव धवळे (फोंड्या) रावतालों. दर वर्सा श्री सत्यनारायणाचे देवळेकडेन दोन नाटकां जातालीं (अजूनय जातात). एक नाटक सामाजीक जाल्यार दुसरें इतिहासीक आसतालें. हांव शाळेंतल्यान घरा येतना, सांजचो थंय नाटकाची येसाय पळोवपाक थांबतालों. घराकडेन येवन तेच संवाद हांवूय हारशामुखार रावन म्हणटालों. इतिहासीक नाटकांतले संवाद म्हणपाचो तो खाशेलो 'टोन' म्हाका सदांच आवडटालो. त्या दिसांनी केन्ना केन्ना घरांतले दिसपट्टे संवादूय हांव त्याच 'टोनांत' उलयतालों. मार्च-एप्रीलाक हीं नाटकां जातालीं. माटवाचे भायलेवटेन खाज्याचे, भजीं-मिर्च्यांचे, चणे-भिकणांचे गाडे आसताले. वांगडचे सगळेजाण त्या गाड्यांकडेन जाल्यार हांव आनी म्हजो भाव स्टेजीचे सायडीन पड्ड्यान आडयिल्ल्या (ग्रीन रूमांत) सुवातेंत तकली रिगोवन थंय चलपी शिवाजीचो, औरंगजेबाचो मेकप, तांचे झगझगीत कपडे, तलवारी बी पळयताले. मागीर नाटक चलतना, लडायेच्या वेळार तलवारींच्या घर्शणान उसळपी किट्ट्यो पळोवन अजापभरीत जातालों. शिवाजीची भुमिका करपी त्या कलाकाराक मागीर तीन-चार दीस तरी हांव मोठ्या आदरान पळयतालों. तीं इतिहासीक नाटकां, येसायो मनांत खंयतरी घर करून राविल्ल्यो.

मागीर णववेक - धावेक पावतकीच भायल्यान येवपी कंपनीचीं नाटकां पळोवंक लागलों. तेन्ना फोंड्यां आतांचे सारकें थिएटर नाशिल्लें. ते सुवातेर चारूयवटेन चुडटांनी आडायिल्लें 'हनुमान थिएटर' आशिल्लें. थंय हांवें *एकच प्याला, वस्त्रहरण, रायगडाला जेव्हा जाग येते, नटसम्राट, तो मी नव्हेच, मानापमान* ...कितलींशींच नाटकां पळयलीं. तातूंतलीं 'वस्त्रहरण'

आनी ‘तो मी नव्हेच’ हीं दोनूय नाटकां हांवें आतांमेरेन चार फावटी पळयल्यांत.

जेन्ना हांवें म्हजें पयलें नाटक बरोवंक घेवपाचें थरयलें तेन्ना तकलेंत ’वस्त्रहरण’ आशिल्लें. वस्त्रहरणासारकेंएक नाटक कोंकणींत बरोवंचें अशें म्हाका दिसलें आनी ल्हानपणांत मनांत घर करून बशिल्लीं तीं ‘श्रीसत्यनारायण देवळे’ कडलीं इतिहासीक नाटकां आनी तांच्यो येसायो परतून जाग्यो जाल्यो. त्याच विशयाचेर नाटक बरोवंचें थरलें. आनी हें नाटक जल्माक आयलें. आपले मालवणी बोलीक राष्ट्रीय पांवड्यार प्रतिश्टा मेळोवन दिवपी स. मच्छींद्र कांबळी म्हजो आदर्श जावन बशिल्लो. तेच स्टायलींतल्यान हांवे हें नाटक रचलें.

राजदीपान वळवय केल्ल्या प्रयोगा उपरांत हेर जायत्या जाणांनी हें नाटक बसयलें. राय, काणकोण, पैंगीण, मडकय, शिरोड्यां, वाळपय, म्हापश्यां ..आदी सुवांतीनी मेळून 17 प्रयोग जाल्या उपरांत हें नाटक तशेंच उल्लें. उपरांत म्हजीं ‘अंता अंता शिरीमंता’ सावन ‘टेन्शन फ्री’ मेरेनचीं नाटकां माचयेर आयलीं. त्या बोवाळांत हें नाटक कुशीकूच उल्लें.

मजगतीं म्हज्या ‘जमलें रे जमलें’ नाटकाच्या शंबराव्या प्रयोगाखातीर मुखेल सोयरे म्हूण मच्छींद्र कांबळीक हाडपाचें थरलें. मच्छींद्र कांबळीकडेन ते आदीं म्हजें जायते फावटी मेळप जाल्लें. शंबराव्या प्रयोगाक येवपाचें तांणी मान्य केलें. मडगांवां हॉटेलांत तांचो राबितो आशिल्लो. आमी मडगांवां जेवण घेतलें आनी फोंड्या येवपाक भायर सरले. फोंड्यां पावतासर मंच्छींद्रबाबान मनसोक्त गजाली केल्यो. आपल्याक एक गोंयचें कोंकणी नाटक काडपाचें आसा म्हण सांगलें. त्यावेळार हांवें ह्या नाटकाची संकल्पना तांकां सांगली. तांणी हें नाटक आपल्याक दी म्हळें. त्यावेळार हांवें ‘तशें जाल्यार हांव तें परतून संस्कारीत  करून बरयतां’ म्हण सांगलें. पूण ती गजाल ‘माकडाच्या घरा’ भशेन पेन्डीगच उरली. आनी मजगतीं 30 सप्टेंबर 2007 ह्या दिसा मच्छींद्रबाबान जिणेच्या रंगमंचावयल्यान 'exit' घेतली. तांचें (आनी म्हजें)

सपन 'सपनू'च उरलें.

आज हें नाटक पुस्तक रुपान तुमचे भेटेक हाडटना मच्छींद्रबाबांची याद आयलेशिवाय रावना. ह्या नाटकाचो जल्मूच मुळांत 'वस्त्रहरणा' चे प्रेरणेंतल्यान जाल्लो. मच्छींद्रबाब आयज आमकां अंतरल्यात खरे, पूण जंय आसात थंयच्यान ते कोंकणी रंगमाचयेक आशिर्वाद दिता आसतले अशें मनापासून दिसता. हें नाटक तांकांच अर्पण करतां

30 मार्च 2010

- राजय पवार

## शिर्शक गीत

हांगाचे मातयेंत फुलता नाटक
तुमच्या सांगातान खुलता नाटक

सिनेमाच्या युगांतूय तरलां नाटक
गोंयकारांच्या काळजांतूच भल्लां नाटक

(संवाद)
- *कोण आहे रे तिकडे ?*
- *आज्ञा महाराज*
- *राणी साहेबांना आम्ही याद केलंय म्हणून सांगा.*
- *जशी आज्ञा महाराज ...*

कणाकणांत भिनलां नाटक
मनामनांत रूजलां नाटक
घराघरांत पुजलां नाटक

निमीत्त तुमकां भेटपाचें
रसिकांखातीर हाडलां आमी
नाटक एका नाटकाचें.

# अंक : पयलो

पोको : नमस्कार मंडळी. हांव कोण हो प्रस्न तुमकां पडलाच आसतलो. देरवून पयलींच वळरव करून दितां. तर, हांव 'अ-आ'. आ !!.. ..'अ - आ' म्हणजे तुमकां कशें कळटलें ! ? 'अ-आ' म्हणजे मास्तर शिकयता ती 'अ-आ' न्ही हां. 'अ-आ' म्हणजे... 'अतृप्त आत्मो'' आरे ए SS !.... बस बस...भिवपाची अजिबात गरज ना. तुमचे मानगुटेर बी हांव बसपाचों ना. तशें करपाक हांव कितें मंत्री तर ! हांव अतृप्त उल्लां तो फकत 'शिवाजी' रवातीर. म्हणजेच नाटकांत शिवाजीची भुमिका करचे रवातीर. आमच्या गांवांत देवळा कडेन दर वर्सा एक तरी नाटक जाताच. ह्या नाटकांनी जायते जाण पार्ट करतात. हांवूंय व्हडलो नाटककार. आमचीं चडशीं नाटकां इतिहासीकच. पोरूं मात ''सिता स्वयंवर'' नाटक केल्लें. तांतूंत म्हजें लवर सुगंधा - 'सिता' जाल्लें. आनी तो मेलो बायजण किशोर - 'राम' जाल्लो. जालें - नाटक चल्लां ....आनी दुसऱ्या अंकाच्या निमाणेकडेन ह्या रामान म्हजे सितेक रवऱ्यानीच वेंग मारिल्ली पळोवन म्हाका थंयच 'ॲटॅक' आयलो आनी ताणें ती वेंग सोडचे पयलींच म्हजें राम-नाम-सत्य है जालें.

म्हाका इतिहासीक नाटकांत फकत भालो घेवन उबो करताले -

शिपाय म्हणून ! ! ...आनी 'शिवाजी' चो पार्ट त्या पायलटाक. ओंदू तागेल्या चल्याक किशोराक पार्ट मेळपाचो आसा म्हण आयकलां. पूण हांव म्हण कितें सोंपेपणान सोडपी मनीस न्ही. तो कसो शिवाजी रंगयता तें पळयतांच हांव. आतां सगळेजाण लागल्या आसतले येसायेक ! पूण - येसाय चलता देवळांत. आनी आमी अतृप्त आत्म्यांनी देवळांक वचूंक फावना. म्हणटकीच तांकां कितें तें डायरेक्ट स्टेजीरच दारवयतां. येन्नाच तयारेक लागतां. (वता आसतनाच....) आयज रातीकडेनच एक पासय मारून पळयतां गांवांत. (पोको वता...)

(देवळाचें हॉल. हांगा येसाय चलता. पांडू-भिकू-किशोर आनी शाबू टायमपासा खातीर 'मेंडीकोट' खेळटात)

पांडू : भिक्या, तुवें कितें राजा उडयला मरे ?...तुज्या राजाचेर ही घे राणी. (राणी उडयता)

किशोर : आरे मेल्ल्या !...राणयेचेर राजा उडोवपाचो सोडून तूं राजाचेर राणी उडयता ?...असल्यानी मेंडी उबी जाता? ...जोकर खंयचो!

पांडू : पुरों हां पुरों ! ...तूं व्हडलो चॅम्पीयन न्हू रे !?...

किशोर : चॅम्पीयन तर !...आरे फाटलीं पांच वर्सां जालीं हांव दर डावाक तुमकां कोट घालतां !...

शाबू : पांडो ! हो आमकां कोट घालता आनी आपूण मात बुराकाचीं बानयनां घालून भोंवता. (किशोराक) तूं आनी कीतें पळयता तोंडाक !...खेळ - खेळ.

किशोर : खेळ म्हणटा मरे !...(नेटान मेंडी मारता) ...घे ऽऽ ! ही घे मेंडी!. ..जालो मरे कोट ! ?

भिकू : ए किशोर SS !....हो कोट मरे शाबूक घालूं दी.

किशोर : कित्याक रे !

भिकू : तो उगडो आसा न्हू रे !

शाबू : (तिडकीन, पांडूक म्हणटा) तुका लागून कोट पडलो हो आमचेर! किलावराची मेंडी कित्याक सोडली तुवें पयलींच ?

पांडू : (उठून...) हय... तुका फकत म्हजीच मेंडी दिसता. आनी, तुगेलो एक्को कित्याक दवल्लो चिड्डोवन ! ?

शाबू : (तिडकीन उठ्ठा) कितें !?...हांवें एक्को चिड्डोवन दवल्लो ! कोम्या, ...परतून एकदां म्हण पळोवया.

पांडू : (आंगार वचून) कितें करतलो ! ? ....एकदां न्हू...धा खेप म्हणटलों.

पांडू : तुंवें एक्को चिड्डोवन दवल्लो - तुंवें एक्को चिड्डोवन दवल्लो ... (म्हणत रावता....)

शाबू : पांडो !! ....सांबाळ...तूं म्हाका बरो वळखून नकळो !

पांडू : (आंगार वचून) कितें करतलो !? ...कितें करतलो ! आं !! ... आंगाक हात तरी लावन पळय...तीं कितें देसाया माडाचीं आडासरां रे !! ....

शाबू : (तिडकीन ताच्या गोलाक धरून झगडटा...) कुत्र्या ...माकडा. ..(दोगूय एकामेकांक लळोवन झगडटात...)

भिकू : शाबो S S ...फायट - फायट! ...

किशोर : पांडो ....सोडनाका ...हेवटेन - हेवटेन ...
(इतल्यांत नाटकाचो डायरेक्टर - गांवकार - येता...)

गांवकार : आरे ! ए ऽ ऽ !! ....हें कितें चल्लां हांगा ! ...आं ! ? ...(दोगूय उठून उबे रावतात....)

भिकू : हे दोगूय मेंडीकोटाक लागून झगडटाले.

किशोर : (पांडूकडेन बोट दाखोवन) हेणें तेका "एक्को चिड्डोवन दवल्लो" म्हळें, म्हूण शाबून तेका धा थापटां माल्लीं.

गांवकार : (पांडूक) पळय, तूं कित्याक ताचे वाटेक वता? ताणें एक्को चिड्डयलो म्हण तुका धा थापटां खावचीं पडलीं. ताणे धाक्को चिड्डयल्यार कितलीं थापटां खावचीं पडटासलीं जाणा मरे तूं !

पांडू : राव हां, मेजतां !....(मेजूंक लागता...)

गांवकार : आतां आनी कितें आज्या तकले केंस मेजता ! ? ...चल यो... येसायेक सुरवात करूया. नाटक बसोवपाक लागया. (पांडू आनी भिकू दोगूय जमनीर बसतात) आरे ! ... तुमी जमनीर शे बसले!?

पांडू : तुवेंच सांगलें न्ही - नाटक 'बसोवया' म्हण.

गांवकार : आरे पापया, नाटक बसोवया म्हणजे 'अशें' बसोवया न्ही ... नाटक करया असो ताचो अर्थ.

भिकू : (गांवकाराच्या तोंडाकडेन पळयत) हां ! हां ! हां ! हां ! अशें !?

गांवकार : हां ! हां ! हां ! कितें ! ? कर्म तुजें - हां, हां ! उठा, सडसडीत (दोगूय उठ्ठात... गांवकार आपल्या हातांतलें पुस्तक उगडटा.) तर, ह्या वर्साखातीर हांवें एक फस्ट क्लास नाटक हाडलां.

किशोर : कसलें ! ? ...राम आनी सितेचें ! !

गांवकार : हय ! ! ...पोरूं सुगंधाक वेंग माल्ले ती पुरों जावना ! ?... तुवें

हेवटेन वेंग माल्ली आनी तेवटेन तेगे लवर पोको - अॅटॅक येवन खंवसलो.

पांडू : हरशीं म्हण पोकोच तो ! किशोरान एक वेंग माल्ली म्हण व्हडलेशें कितें जाल्लें !!

शाबू : आनी, सुगंधा आसाच तशें ! !

गांवकार : तूं सुगंधाचो विशय सोड म्हणटां हांव - आमी आमच्या नाटकाचें उलोवया.

भिकू : पूण, गांवकार बाब ! म्हाजो एक ल्हा SSSनसो प्रस्न आसा.

गांवकार : विचार तुजो ल्हाSSSनसो प्रस्न !

भिकू : तर विचारपाचें म्हणजें, म्हजे तकलेंत जो विचार येता, तो विचार तुका विचारतकीच सुट्टलो. असो म्हजो विचार आसा, म्हणून हांव तुका विचारतां - तर आमी सगळे, म्हणजे हांव, हो, तूं, तो, ...आनी बाकीचे, नाटक बसोवपारवातीर एकठांय जाल्यात. देखून हेदोळच्यान म्हाका प्रस्न पडला, तो म्हळयार ह्या नाटकाचो डायरेक्टर कोण ! ?

गांवकार : जालें !...सोंपलो तुजो ल्हाSSSनसो प्रस्न? आतां म्हजी ल्हानशी जाप आयक. तूं ज्या मनशामुखार उबो आसा पळय, तो मनीस तुजेपरस चार बुकां चड शिकला, म्हणटकीच ह्या नाटकाचो डायरेक्टर हांव.

भिकू : आरे ! ...तूं डायरेकट्टर ! !

गांवकार : (तापता) डायरेकट्टर न्ही मेल्या - डायरेक्टर.(पांडूक सांगता) पांडू, तुका सांगिल्लें हांवें हो भिकू ह्या नाटकांत नाका म्हण.

पांडू : (भिकूक तापयता) भावोजे ! नाटकांत काम जाय मरे तुका ?

भिकू : हय तर.

पांडू : तशें जाल्यार वोग्गी बस. परत परत डायरेकट्टर-डायरेकट्टर म्हणनाका. आयज तूं डायरे कट्टर म्हणटलो, फाल्यां हो डायरे कट्टर म्हणटलो परां तो डायरे कट्टर म्हणटलो. चारय वटेच्यान डायरेकट्टर-डायरेकट्टर म्हणटकीच ताकाय राग येतलोच न्ही.

गांवकार : पांडू ! ... तूं कितें आतां म्हजी पावणी करता ?

शाबू : डायरेक्टरबाब, तूं तांचेकडेन लक्ष दिनाका. तूं नाटक बसोवपाक लाग.

गांवकार : (हातांत पुस्तक) हां. तर, हे खेपेक आमी इतिहासीक नाटक बसोवंया.

भिकू : न्ही. हांव म्हणटां, संगीत नाटक बसयल्यार कशें ?

किशोर : संगीत नाटक ! ? ...आनी गाणें कोण म्हणटलो, आजो तुजो ?

भिकू : आजो कित्याक ? ...हांव कितें वायट म्हणटां तर ! पळय हां... (गायन सुरू करता) कर हा करी SSS धरिला शुभांगी SS...

पांडू : (त्याच तालार) तुज्या बायेचो घोव शुभांगी !! भावोजे नाटकांत काम जाय जाल्यार वोग्गी बस.

गांवकार : आतां परतो आवाज काडल्यार, तजे काना पड्डे फोडटलों आनी नाटका पड्डे ओडपाक दवरतलों ! कळ्ळें मरे, हां ! - तर, ह्या वर्साखातीर हावें वसंतालें नाटक सोदून काडलां.

किशोर : आब्बा !! ... म्हणजे, पुंडलीकालो वसंत नाटकां बरोवपाक लागलो तर !

गांवकार : आरे, पुंडलीकालो वसंत न्ही रे ! ...वसंतालें नाटक म्हणजे वसंत कानेटकारालें नाटक.

भिकू : (गांवकाराक) डायरेक्टर - हांव 'शिवाजी' जातां हां ! (भिकू शिवाजीची पॉज घेवन उबो रावता)

गांवकार : तूं ! ...शिवाजी जाता ! ? ...तुका आमच्या गांवचो 'भावोजी' करून घेतला, तेंच व्हड म्हण. शिवाजी जाता खंय शिवाजी.

किशोर : डायरेक्टर बाब ! ...हांव कोण ?

पांडू : तूं कोण म्हणजे ! ! ...तूं किशोर न्हू रे !

किशोर : तशें न्हू रे. हांव नाटकांत कोण काय म्हणटां .

गांवकार : सांगतां, किशोरालो बापूय सुध्दां शिवाजी जातालो.

शाबू : पूण, तेन्ना शिवाजी आसलो रे ! ? ...(अजापान)

पांडू : ना !...तुका कितें दिसलें, तो पयरच जाला म्हण ! ? ... संवंग खंयचो. परतून असले प्रस्न विचारशी जाल्यार जीब काडून हातांत दितलों.

शाबू : सारी तुजी !...

पांडू : कितें ? ...म्हजी सारी म्हणटा ! ?...(तापता...)

शाबू : (भिऊन) सारी म्हणूना हायें. सॉरी म्हणलां सॉरी ...सॉ SS री!

गांवकार : हां. तर नाटकांतलो 'शिवाजी' हो (किशोराल्याच) हांच्याच घराण्यांतलो आसूंक जाय अशें जाणट्यांलें उतर आसा. म्हूणोन ह्याय वर्सा शिवाजीचो पार्ट किशोराक.

शाबू : (मोठ्यान हांसपाक लागता) हो किशोर शिवाजी खंय...उय्य... शिवाजी SS...किशोर SS...शिवाजी !

गांवकार : (तिडकीन) आरे शाबू जाला कितें तुजें ? ...हांसता कित्याक ? कसल्यो खातखुतल्यो जाता तुका पोटांत ?

शाबू : (किशोराकडेन बोट दाखोवन ...हांसतच म्हणटा) मराठीक चार खेपे फेल जाल्लो शिवाजी !!

किशोर : (शिवाजीच्या आवेशांत) आमी चार खेप जावूं - नाहीतर पांच खेप फेल जावूं...तुमी आमकां विचारणारे कोण ? ...

पांडू : आनी त्यानी विचारले म्हणून तुमचे काय जाते !?

किशोर : जाते !! ...जोतें काडून मारतां तोंडाबरोबर - मागीर कळटलें काय जाते तें.

गांवकार : एक मिनीट, एक मिनीट !...किशोर, ताणें सांगलां तें खरें? तूं चार खेपे फेल जाल्लो मराठीक ?

किशोर : (शिवाजीच्या आवेशांत) मी फेल जालो होतो हे खरे आहे. पण त्याचं कारण तुम्हाला माहीत नाही. आमच्या मास्तरानांच मराठी उलवायला कळत नव्हती - मागीर, आपल्याला लज जावू नये म्हणून आम्हाला फेल केले - त्या आवट्यांनी !

भिकू : वा SS!...एकदम शिवाजीच्या भुमिकेंत घुसलो मरे !!...

गांवकार: पूण, हांगा तरी मराठी सारकी जावनी हां !

किशोर : (शिवाजीची पॉज घेवन) आमी असताना आपण भिवायची काहीच गरज नाही. (भायल्यान "आवय गे SS मेलों रे SS ...मेलों... SS..." असो आवाज येता.)

गांवकार : आरे !...हो सॅम्पलाचो आवाज सो दिसता. हाका आनी कोणें धल्लो काय !!

शाबू : चला, पळोवन येवया...(सगळे वतात...) (सगळेजाण सॅम्पलाक उखलून घेवन येतात...)

किशोर : आरे सॅम्पल ! कितें जालें ?...

सॅम्पल : आवय ऽऽ ...दुखता...

गांवकार : आरे सॅम्पल ! असो कसो पडलो तूं ?...

सॅम्पल : पडलो आनी कितें ! ...कर्म म्हजें !! (सॅम्पलाक सारको उबो दवरतात...थंय बसयतात...)

शाबू : आरे, सॅम्पल, जालें कितें तें सांग पळोवया.

सम्पल : पळय ! हांव सकाळीं उठलां बरो. च्या बी पिलों. मागीर डबो घेवन गिरणीर गेलों...

पांडू : (नाकाक हात धरून) आंवंय ! ...तूं डबो घेवन गिरणीर वचून बसता ?

भिकू : मेल्या ! तो उदकाचो डबो न्ही...गंवाचो. दळपाक गिरणीर घेवन गेल्लो.

सॅम्पल : मागीर घरा आयलों. तांबयो घेवन उतकाडेन गेलों.

भिकू : (पांडूक) आयक !...तो आतां परसाकडेन गेला.

शाबू : हांव जाल्यार बाबा फांतोडेचेर वचून येतां. नाजाल्यार मागीर खूब त्रास जातात.

गांवकार : (तिडकीन) तुमी कितें तेगे संडास तपासतात ? बुरशे खंयचे.... (सॅम्पलाक) तूं सांग रे.

सॅम्पल : तर हांव तांबयो घेवन उतकाडेन वचून आयलों.

किशोर : परत ! ?

पांडू : सुंगटां बी खाले दिसता !

सॅम्पल : मागीर जेवन आड पडलों. तो, बद्द सांजचो संक जागो जालों. आनी मागीर येसाय चुकतली म्हण शॉटकट आयलों. गणेशाल्या शेतांतल्यान. थंय गणेशालें चेडूं मेळ्ळें. तें बडयेन चिचो काडटालें. तेणे चिचो कडून दी म्हण सांगतकीच चिचेर चडलों.

शाबू : तेणे सांगतकीच बरो चडलो मरे !...पयर हांयें माडार चड म्हणल्यार, माडाक कॅंच आयला म्हण सांगतालो.

भिकू : माडाक न्ही मेल्या - पांयांक

शाबू : आसूं. कोणाच्या लक्षांत येवंना.

सॅम्पल : तर, चिचेवेल्यान देंवन हांव धांवत येतालों. आनी हांगा यो जाल्यार कोणतरी धवोच सो मनीस एकदम मुखार उबो रावलो आनी पांय घालून उडयलो म्हाका. मागीर हांवें मोठ्यान किळांच माल्ली - आवय SS गे SS मेलों रे SS मेलों....SS...

गांवकार : पुरों - पुरों. हेदोळ आयकल्या आमी ती किळांच.

शाबू : म्हाका दिसता. सॅम्पलाक चडकरून पोक्याल्या भुतानच उडयला आसतलो.

किशोर : जायत !...पयर एकल्याक खंय चिचेकडेन दिश्टी पडिल्लो.

भिकू : आनी आतां हो, तेच चिचेर चडून आयला. (इतल्यांत 'सॅम्पल' उठून उड्यो मारून नाचता.... पदां म्हणटा...)

पांडू : (भिकूक) भावोजे ! आमी पळ्ळयार बरे !...शेर्त हेचेर पोको बसला आसतलो.

शाबू : तू आनी कितें रे !...देवळांत केन्ना मेल्लो मनीस येता ?

भिकू : (भिवून) येता !...तेका देव बरो आसत जाल्यार देवळांतय येता!.

सॅम्पल : फटयलें रे SS फटयलें !...तूमकां सगळयांक फटयलें ! (हांसता) सगळयांच्या कानां घातलें !! ...म्हाका नाटकांत काम करूंक कळना म्हणटाले न्हू रे तुमी ! ?... म्हूणोन एक नाटक करया म्हटलें !! ... तुमकां एकल्या तरी डाव्ट् येयला !?...

पांडू : म्हाका कळ्ळें, हां...म्हाका कळ्ळें !!

किशोर : हय, म्हूणोन पळपाक सोदतालो तूं !

गांवकार : काय बरी येसाय रंग घेताली !...ह्या मेल्या सॅम्पलान सगळी वाट लायली. (सॅम्पलाक) आतां परतून मात असलीं नाटकां कर तूं ...एकूच मारतां कानपटार आनी सॅम्पलाकच काबार करून उडयतां.

सॅम्पल : म्हाका खंयचो रोल ! ?

गांवकार : तुका मरे !? वर्साचोच ! पड्डे ओडपाचो - पड्डे सोडपाचो.

भिकू : डायरेक्टर बाब! ...अजून तुकाराम आनी देसाय कशे पावले ना?

पांडू : ते गेल्या आसतले, आडसरां चोरूंक ! (इतल्यांत दोगूय जाण दारांत येतात....)

दोगूय : ढॅण टॅ ढॅण !!....

किशोर : घे ! ...याद काडनाफुडें दोगूय हजर. दोनशीं वर्सां आयूश्य तुमकां.

भिकू : आरे ! हरशीं "शंबर वर्सां आयूश्य" अशें म्हणटा न्ही रे ?...

किशोर : (दोगांयकडेन बोट दाखोवन) शंबर आनी शंबर दोनशीं वर्सां जालीं ना !

गांवकार : चला, पयलीं आमी पार्ट वांटया. अजून येसाय जावपाची आसा.

देसाय : आनी हो कितें हांव आयलां तो !!

शाबू : भेड्ड्या !...ताणे, देसाय येवपाचो आसा म्हणूंना! (मोठ्यान) येसाय जावपाची आसा म्हळ्या !!

देसाय : हां - हां - हां...(कळिल्लेभशेन)

गांवकार : हां - हां - हां ...कितें कर्म तुजें ! ?

देसाय : बरोबर ...सामकें बरोबर.

तुकाराम : डायरेक्टरबाब ...तूं ताच्या नादाक लागनाका. तूं पार्ट वाट आमकां.

गांवकार : हां ...तर किशोर 'शिवाजी'. आनी (भिकूक) तूं मरे...

भिकू : भावोजी !!

गांवकार : आरे ! ...तूं भावोजी आमच्या गांवचो. पूण नाटकांत तूं मोरोपंत!

भिकू : शी SS..हो आनी कसलो पार्ट !? ...मोरोपंत !

गांवकार : जाय जाल्यार घे. ना जाल्यार येन्नाच वच. आमकां घे म्हण पार्टी येतात.

भिकू : मोरों...पंत जाल्यार पंत (तिडकीन)

गांवकार : कितें ! ? ..मोरों म्हणटा म्हाका ?...

भिकू : तशें न्ही. मोरोपंत जाल्यार मोरोपंत, अशें म्हणिल्लें हांवें.

गांवकार : बरें. आनी देसाय - तूं मरे संभाजी घे.

देसाय : हँ SS ...नाका रे आत्तां घेवन आयलां हांव.

किशोर : पापया, तुका 'भाजी घे' म्हणूना...(मोठ्यान) संभाजी घे म्हळा संभाजी !

गांवकार : ह्या भेन्याक संभाजी दिना जाल्यारच चड बरो. (बाकीच्यांक पळोवन) बरें ...शाबू ! भाजी तुका घे !...(चूक लक्षांत येवन) आपलें ...संभाजी तुका घे !

तुकाराम : आनी हांव !

गांवकार : तूं ....तूं ...तूं मरे. शिवाजीचो शिपाय.

तुकाराम : शी ऽ ऽ ...

गांवकार : (तापता) किंते ? ...परत एकदां म्हण ?

तुकाराम : शी ऽऽ...वा - जी - चो शिपाय !

गांवकार : शिपाय म्हण किंतें सादो रोल न्ही. शिवाजीबरोबर एकदां लडाय आसा तुका !

तुकाराम : लडाय !! ... ढॅण टॅ ढॅण.

देसाय : आनी हांव ! ? ...

गांवकार : तूं मरे हंबीर राव.

देसाय : (गांवकाराच्या म्हन्यांत येवन) बरें ! ...हांगा जाल्यार हांगा रावतां.

गांवकार : (तिडकीन) आरे, हांवें - हांगा राव म्हणूना! ..हंबीर राव म्हळां. तू हंबिरराव ..हं - बी - र - रा - व !

देसाय : हां ! ...हां !...हां !...हां !

गांवकार : हा - हां - हां - हां ... किंतें कर्म तुजें !!

देसाय : बरोबर, सामकें बरोबर !

गांवकार : आनी पांडू ! तूं मरे अफझलखान.

पांडू : गूड ! ...हांव अझफलखान.

गांवकारः आरे पापया ! अझफलखान न्ही. अफझलखान!

पांडू : अझफलखान !

गांवकारः आरे ...अ-फ-झ-ल-खा-न. म्हण पळोवया आतां.

पांडूः अ-झ-फ-ल-खा-न.

गांवकार : पाड पडूं !...अझफलखान जाल्यार अझफलखान.

सॅम्पल : डायरेक्टर बाब! ...हांव येदोळच्यान पळयतां - तूमी सगळयांक पार्ट वाटले - म्हाका पड्डेकाराचो पार्ट वाटलो - पूण प्रस्न असो, की ह्या नाटकांत नटी ना ? ...काय, नाटक स्त्री पात्र विहीरीत.

किशोर : आरे पापया ! स्त्री पात्र विहीरीत न्हय ...विरहीत ! विहीरीत म्हळयार बांयत.

भिकू : पूण नाटकांत नटी नासल्यार, जाण्टेले कितें म्हणटले आमकां ?

गांवकार : हां, हां ! म्हणजे नटी तुमकां नाका...जाणट्यांक जाय ! ?

भिकू : तशें न्हय !...नटी बीटी आसल्यार जाणटेले नाटकाक येतात. ना जाल्यार, मुद्दाम म्हण कोण शियां कडकड्याक भायर सरता !

सॅम्पल : न्ही. आनी, नटी आसल्यार म्हाकाय बी पड्डो ओडपाक उमेद येता.

गांवकार : हांव हाडटांच आशिल्लों नटी. तशी एकली कारवारच्यान येवपाक तयार जाल्ली.

शाबू : कोण ! जयमाला नटी ! ?

गांवकार : हय ! ...तूं कसो वळखता ?

शाबू : हांवें दोन तीन नाटकां केल्यांत तिचेबरोबर !

तुकाराम : तुवें कोणाबरोबर कितलीं नाटकां केल्यांत तीं आमकां खबर आसा. सद्या हेंच नाटक सारकें कर.

शाबू : पूण जयू कित्याक येना तर !

गांवकार : आब्बा ! जयमालाचें जयू जालें दोन तीन नाटकांतूच ?

किशोर : तें तो अपूरबायेन म्हणटा तेका. पूण ती नटी कित्याक येना खंय?.

गांवकार : तिका त्याच दिसा अंकोला एक नाटक आसा खंय.

शाबू : आमी आमचें नाटक मुखार धुकळया !

गांवकार : माकडा !...पयर देवा पालखी व्हरतना, वाटेवेली गाडी मात्शी मुखार धुकळया म्हळयार ती जाली ना आनी आतां जयमाला नटयेक लागून नाटक मुखार धुकळया म्हणटा ! ? वोग्गी बस थंय.

किशोर : पूण, डायरेकटबाब ! आमी पयसल्ली नटी पळोवचे परस आमच्या गांवचीच नटी पळयल्यार कशी !?

गांवकार : कशी ! ? ...कशी पळोवपाची काय म्हणटा हांव ! ...पोरूं तुवें सुगंधाक खऱ्यानीच वेंग मारतकीच - लोक, डायरेक्टर खंय? डायरेक्टर खंय? ...म्हण दाणे घेवन भोंवताले - आठ दीस म्हळयार हांव लिपून भोंवतालों. म्हणून हांवें ह्या वर्सा सामकें थरयलां नाटकांत नटी म्हणटा ती ना.

तुकाराम : पूण कित्याक ! ?

गांवकार : तुमचे असले पार्टी आसल्यार खंयची नटी तयार जातली नाटकांत काम करपाक !

तुकाराम : म्हणजे ! ?

गांवकार : म्हणजे ! ? सांगू ! तुवें कितें केलें तें पणजे !!

तुकाराम : पणजेचें पणजे ! तें आनी हांगा कित्याक ? नटी ना जाल्यार ना. म्हाका कितें ! ?

देसाय : आरे, पेटी कित्याक ती ? ...हें कितें संगीत नाटक तर !

शाबू : आरे पेटी न्हय ...नटी, नटी.

देसाय : हां...हां...नटी, नटी.

शाबू : हें बरें आयकलें मरे तुका ! ?

देसाय : तशें केन्ना केन्ना आयकता म्हाका.

गांवकार : आब्बा ! हेंवूय बी आयकलें मरे !! आयकूंक येवपाक लागलें काय कितें रे ? ...

देसाय : हय तर !! (आपल्या शर्टाकडेन बोट दाखोवन) पणजे घेतिल्लो! ...देडशें रूपया पडले.

गांवकार : पाड पडूं ! हो भेड्डो आमच्या नाटकाची वाट लायतासो दिसता.

देसाय : बरोबर, सामकें बरोबर !

शाबू : पळय, बरोबर आनी म्हणटा वेल्यान.

गांवकार : पापया, भाशण तरी सारकें पाठ करतलो मरे ?

देसाय : हय तर ! ...सामकें तोंडपाठ.

शाबू : आं !!...हें आयकलें मरे !

देसाय : सायकल !? ...तेवटेन फाटल्यान दवल्ल्या रे !

गांवकार : (बेजारून, काकूळटेक येवन) देसाय बाब !... तुका "केन्ना आयकता आनी केन्ना आयकना" ताचें एक लिस्ट करून दी आमकां. उपकार करून नाटकांत तरी सारको उलय - ना जाल्यार हे लोक तुका आनी म्हाका बारीक चांचोवन, ह्याच जात्रेक दोण्यांनी घालून वांट्टले.

पांडू : म्हणजे, एकूण नटी ना तर !

सॅम्पल : गांवकार बाब! ...हांव पळोवं, नटी मेळटा जाल्यार ! ?

गांवकार : तूं पळयता ! ? ...नटी म्हळयार कितें गोरूं दिसलें तुका ? ती कितें हेवटेन तेवटेन रस्त्यार भोंवतली ? ...ह्या वर्सा नटी ना. नटयेचें सगळें फुडल्या वर्सा पळोवया. चला, येसायेक सुरवात करूया. (गांवकार तांकां Positions सांगून त्या त्या जाग्यार उबो करता ...येसायेक सुरवात जाता)

गांवकार : हां, किशोर ! तूं शिवाजी मरे, तूं हेवटेन. आनी शाबू-संभाजी तूं असो हांगा... आनी तूं रे !...देसाय - हंबीरराव तूं असो उजवेवटेन. (देसाय, आयकूंकच ना सो करून ओग्गी रावता... ताच्या कानाकडेन वचून मोठ्यान...) हंबीर राव ! ...तूं उजवेवटेन !!

देसाय : (तापता...) आड्डता कित्याक ! ?...कान फुटूंना म्हजे ! म्हाका बरें आयकता.

गांवकार : कितें ! ?...

देसाय : (उजवेवटेन वचून) हांव हांगा. उजवेवटेन.

सॅम्पल : एक मिनीट...एक मिनीट !...नाटक बसोवपाक कळटा तुमकां !! नांदी नासतनाच भाशण स्टार्ट ! ?

पांडु : आरे, नांदी मागीर स्टेजीर म्हणटले आमी.

सॅम्पल : मागीर म्हणटले !? ... तें कितें लग्ना जेवण !! वतले आनी भूस मारतले म्हणपाक ! मागीर म्हणटले खंय ...पयलीं हांव एक कडवें म्हणटां. मागीर तुमी नाटकाक सुरवात करात.

सगळे : बरें, म्हण.

(सॅम्पल मॉडर्न स्टायलीन - Western type - नांदी म्हणटा...)

गांवकार : ए ऽ ऽ य! A. R. Rehman !! ..पुरों ...पुरों ...तूं गायता काय नांदेची वाट लायता ? ...म्हणटा जाल्यार सारकी म्हण. (सॅम्पल नांदेचे पयलें कडवें म्हणटा...)

गांवकार : (त्याच तालार) नमनाकच सगळें, तेल सोपोंवं नाका पुरों ...पुरों मात्सो विष्णूगेर वच आनी ताका पड्ड्यांचें सांगून यो.(सॅम्पल 'हां' म्हणून वता) चला ...येया रे ! येसाय स्टार्ट करया.

(गांवकार तांकां - positions सांगता)

भिकू : (पांडूक) अरे रे ! अफझलखाना !

गांवकार : अरे ऽऽ रे !! ...आरे ! ...तें अरे रे न्ही. अरे! अफझलखाना !.

भिकू : अरे ! ...हांवें 'अरे रे' म्हळें...सॉरी हां. (परत ॲक्शन घेवन) अरे ! अफझलखाना !...असेल हिम्मत तर आपण मराठीला आव्हान देऊन तर पहा !

गांवकार : आरे ! मराठीला न्ही - मराठ्यांना. वोगीच चार खेपे फेल जावूना तूं मराठीक !

भिकू : हांव न्ही हां...किशोर तो !...हांव फकत तीनूच खेपे फेल जालां.

गांवकार : बरें बरें ...मुखार वच ! मुखार वच ! (भिकू मुखार वचून तुकारामाच्या कुशीक उबो रावता)

तुकाराम : डायरेक्टर बाब !...हो पळय, मुखार वच म्हणटकीच हांगा येवन उबो रावला.

गांवकार : आरे पापया ! ...मुखार वच म्हणजे, मुखाल्लें भाशण म्हण.

भिकू : हां...हां...हां ! (थंयच उबो रावता)

तुकाराम : हां - हां कितें !...आतां तूं थंय वचून स्टँड कर, हांव हांगा सीट करतां.

भिकू : म्हणजे ! ?...

तुकाराम : म्हणजे, तूं थंय वचून उबो राव. हांव हांगा बसतां.

गांवकार : ब्रिटीश इंडिया सोडून कित्याक गेले तें आयज कळळें म्हाका.

पांडू : कम्बख्त !!...तुम्हाला खाय म्हणायचय ते साफ साफ बताईये.

भिकू : खामोश! ...(मोठ्यान) जबान सांभाळून बोला...

गांवकार : आरे म्हाज्या आज्या ! ..तें अफझलखानालें भाशण. ताच्या पयलीची लायन वाच.

भिकू : तुमच्या अंगात धमक असेल तर मराठ्यांवर कूच करून दाखवा. ..अन्यथा आमच्या पायाशी नाक घासून आमची माफी मागा.

पांडू : खामोश !...जबान सांबाळून बोला...इस पहली गलती के लिए हम तुम्हें माफ करते हैं.

गांवकार : हां...आतां दुसरो सीन घेवया....किशोर तूं असो राव ...शाबू तूं हांगा... किशोर SS बरें पेजाद घे - शिवाजी तूं ....आनी ए S S शाबू -

शाबू : संभाजी म्हण, संभाजी !

गांवकार : हेच्या बायेचो घोव ना घरा ! ...हेका संभाजी केला हांवें आनी म्हाकाच सांगता संभाजी म्हण म्हणून ! - शिवाजी, कर सुरू !

किशोर : संभाजी राजे !...शिर्के आणि सांवतांना, पन्हाळगडावर पाठवून द्या. तिथे मोरोपंत असतील तर त्यांनां आम्ही आल्याची बातमी कळवा.

तुकाराम : डायरेक्टरबाब !...एक ल्हानशी मिस्टेक विचारतां हां !...हांवें तिरवट बातमी, मसालेदार बातमी आयकल्ली - ही आल्याची बातमी म्हळ्यार कसली ?...

गांवकार : आरे, 'आम्ही आल्याची बातमी कळवा' म्हणजे...म्हणजे...तें... तें...तें तुका कित्याक !? ...बस थंय ओगी. (तिडकीन)

शाबू : आबासाहेब, आपण एवढ्या लगबगीनं इथं येण्याचं कारण ? सगळं कुशल आहे ना ? आम्हाला उगाच चिंता लागून राहीली आहे.

किशोर : नाही रे ! नुस्त्याची याद आली म्हणून आम्ही तुमच्यापाशी आलो.

गांवकार : माकडा SS ! ...नुस्त्याची याद न्ही. नुस्तीच याद आली म्हणून आम्ही तुमच्यापाशी आलो. परतो मात चूक तूं ! तुजे दोन कुडके करतां आनी एकाचें सुकें करतां आनी दुसरो फ्राय करतां - चल, मुखाल्लें भाशण म्हण.

किशोर : (आवेशांत) शिवाजी ....शिवाजी असा आहे तरी कोण ? ...

गांवकार : तुज्या बायेचो घोव ? ...मेल्ल्या - तूंच शिवाजी ! आनी तूंच हें म्हणटा ?...आरे, अफझलखानालें भाशण तें ! तुमी तिगूयजाण एक काम करात - तूं (किशोराक) शिवाजी, संभाजी आनी तूं

(पांडूक)

पांडू : (मुखार येवन) अझफल खान !

गांवकार : तूमी तिगूय सामके मेन. पयलीं तुमचें भाशण सारकें आसपाक जाय. ना जाल्यार नाटक घो SS!... तुमी आतांच वचून भाशण झेरोकस् मारून घेयात. आनी लागा पाठ करपाक.

पांडू : (किशोर) शिवाजी...चल तुजो घोडो स्टार्ट मार !

किशोर : घोडो ! ?. ..

शाबू : आरे, मोटरसायकल रे !...चल टिबल या, डायरेक्टरबाब, झेरॉकस् मारपाक पुस्तक ! ?...

गांवकार : तें थंय, म्हजे सुटकेसींत आसा तें व्हर. (तिगूय वतात)

गांवकार: (देसाय, तुकाराम आनी भिकूक) चला, आतां तुमी येयात. तुमचें भाशण घेवंया. (तुकाराम आनी भिकू येतात. देसाय आयकूंक येवंना म्हण थंयच उबो रावता) हो जल्माक येतना सुद्धां धा म्हयन्यानी जाल्लो खंय !

तुकाराम : देसाय SS...ए SS...देसाय ...

भिकू : ओ...देसाय बा SS ब ...

गांवकार : राव ...तो तसो येवपाचो ना. येया...येया...बसाय बसाय.

देसाय : (म्हन्यान येता) आयलों - आयलों.

गांवकार : पळयलें ! बसाय म्हणटकीच 'देसाय' अशें आयकलें ताका.

तुकाराम : आरे, देसाय...(देसाय बसता)

गांवकार : पळयलें ! ...तुंवें देसाय म्हणटकीच ताका 'बसाय' शें दिसलें. कसाय - कसाय ....

देसाय : येसाय !? ...(उबो रावन) चला करया सुरू.

गांवकार : भिकू ...कर सुरू...

भिकू : खरं म्हणजे महाराजांनी तरी तिथं जायला नको होतं. शिवाय राणीसाहेबांनी त्यानां तिथं येण्यास बंदी घातलेली - त्यामुळं महाराजानां त्यांनी कुणी वेडा असल्याचे समजून हाकलून दिलं ...हा SS...हा SS...(हांसता)

गांवकार : जालें !? हें हांसप? आरे, कंसांत कितें बरयलां तें वाचला तुंवे ! 'सात मजली हसतो' - मात्सो मोठ्यान हांस.

भिकू : (मात्सो मोठ्यान हांसता)

गांवकार : हें, सात मजली हांसप !?...हें ग्रांऊंड फ्लोरावेलें हांसप आनी नेटान.

भिकू : (मात्सो आनी नेटान हांसता)

गांवकार : हां !...आतां दुसऱ्या मजल्यार पावलो.

भिकू : (आनी मोठ्यान हांसता)

गांवकार : पुरों, पुरों ...चौथ्या मजल्यार पावलो...व्हळू व्हळू पावतलों तूं सातव्या मजल्यार. तुकाराम, आतां तुजें घे.

तुकाराम : (सगळें स्लो स्लो उलयता...) मुजरा महाराज ! काल आपल्या अनउपस्थितीत अमृतराव निंबाळकर आले होते. त्यांनी, आज मातोश्रीनां ओषधोपचार करण्यासाठी एका वैद्यबुवांना पाठवून देतो असे सांगीतले आहे.

गांवकर : आरे, गव्हर्मेंट फायलींभशेन स्लो, कितें उलयता !? फांस्ट म्हण

तुकाराम : (सामको फांस्ट उलयता...)

गांवकार : जालें ! फांस्ट म्हण म्हणटकीच सामको वाग फांटीक लागिल्लेभशेन धांवलो.

गांवकार : हाचे वेल्यान म्हाका एक आदली गजाल याद जाली. दिवाडे प्रयोग इतिहासीक नाटक 'सिंह गर्जला रणीं'. रघु कुंडयकार शिवाजी आनी कृष्णा नेवरेकार अफझलखान.आनी आमगेलो गजाबाब कामत, संभाजी. जालें. नाटक बरें रंग घेवपाक लागलें. इतल्यान गजाबाबाली entry. गजाबाब स्टेजीर आयलो आनी ताळयांचो गडगड. (गांवकार थांबना तें पळोवन, ताचो विशय बदलचेखातीर तुकाराम दारावटेन वचून ...)

तुकाराम : (बैल धांवडायिल्ले भशेन) ह SS य ! ..ही र्र र्र...ह SS य...
(गांवकार लागीं वचून पळयता तेन्नाच ...) गेलो S S...तेवटेन भिंडीणीकडल्यान गेलो...पांडूलो तो - बुधो, बुधो !

गांवकार : बसाय ...बसाय...(देसायाक - देसाय 'ओ' म्हणटा) आतां तुजें भाशण घे.

देसाय : म्हणून काय आम्ही आमचा उपमर्द सहन करायचा ? नाही ! नाही ! नाही! आता एकदम टोकाचीच भुमीका घेतल्याशिवाय दुसरा पर्याय नाही. त्या मोगल फौजेला जबरदस्त दहशत कोणाची असेल तर ती आमची. आता केवळ आक्रमण हाच शेवटचा उपाय. चला तयारीला लागा.(भिकूक) दारू कुठं ठेवली आहे ! ?

गांवकर : आरे, म्हाज्या भावा - दारू कुठं ठेवली आहे न्ही ! दारूगोळा कुठं ठेवला आहे ? ...

ेसाय : सॉरी हां ! ...(सोऱ्याची ॲकशन करून) म्हजो टायम जालो न्ही, म्हणून !

ुकाराम : महाराज ! बाहेर वेतनदार आले आहेत.

गांवकर : कित्याक ? ...मड्या शाळेंत गेल्ले रे तुमी ? ...बाहेर वतनदार आले आहेत - वेतनदार खंयचे ? ...तूं कितें कॉन्ट्रेक्टां घेता?... (देसायकडेन पळोवन) ए ऽ ऽ देसाय, आतां तुजें भाशण. (देसाय लक्ष दिना...) आरे ए ऽऽ..भेड्ड्या !! ...

देसाय : म्हाका भेड्ड्या म्हणनाका हां, पयलींच सांगता. म्हाका मागीर राग आयल्यार, रागाक वायट हांव.

गांवकार : म्हणजे ! हें आयकलें तुका ?

देसाय : आयकलें तर !!

गांवकार : तुं मरे खऱ्यानीच एक लीस्ट करूनच दी आमकां ...तुका केन्ना आयकता आनी केन्ना आयकना ताचें.

तुकाराम : डायरेक्टरबाब ...तुमी ताच्या नादाक लागूंनाकात. आमी येसायेचें पळोवया.

गांवकार : बरें, बरें. हां ! तर आतां हांव तुमकां ॲक्टींगेच्यो कांय बारीकसाणो सांगतां. पळय, तुकाराम ...तूं शिवाजीलो शिपाय...म्हणटकीच तुका, महाराज येता-वता असताना मुजरो करपाक कळपाक जाय.

तुकाराम : (बॅकग्राऊंडाक गाणे वाजता आनी त्या ताल्यार तुकाराम 'मुजरा' नाचता) "इन्ही लोगों ने, इन्ही लोगों ने ऽऽऽ इन्ही लोगों ने, ले लीया दुपट्टा मेरा ..."

गांवकार : आरे, पापया तसलो मुजरो न्ही. 'मुजरा महाराज' (ॲकश्न करून) असलो मुजरो. चल कर पळोवया.

तुकाराम : (दोनय पांय रूंद करून उबो रावता आनी) मुजरा महाराज.. मुजरा !

गांवकार : शी ऽऽ शीऽऽ शी....शीपाय जालो म्हण...पाय इतले रूंद करप!? ...आरे , असो रावल्यार तुका शिपाय कोण म्हणटलो ? !...टीपाय म्हणटले !!

तुकाराम : सॉरी, सॉरी !

गांवकार : चल...आतां फुडलें घे. तूं महाराजांचे कुशीक भालो घेवन कसो उबो रावतलो तें दाखय. (तुकाराम 'जॅवेलीन थ्रो' मारपाक राविल्ले भशेन उबो रावता) आरे म्हाज्या भावा...तूं कितें ऑलीम्पीकाक जॅवेलीन थ्रो मारपाक रावला ? ... असो राजवाड्यार भोंवपाक लागलो जाल्यार अद्‌र्या तरी मावळयांचे दोळे फोडटलो तूं ...

भिकू : मागीर कसो रावप तर ताणे भालो घेवन ?

गांवकार : हो पळय...असो. असो रावप उबो !

भिकू : डायरेक्टर बाब...हांव एक ल्हानशी मिश्टेक विचारूं ?

गांवकार : विचार आनी करनाका ...विचार, विचार.

भिकू : भालो असो उबो धरून फायदो कितें ! ...आनी कोणूय ॲटॅक करपी मनीस हांगा भितर राजवाड्यांत येवन काय ॲटॅक करचो ना...

गांवकार : आरे भावोजे ! ...महाराजाचे कुशीक शिपायांक आठ-आठ, धा-धा वरां उबें रावचें पडटा...थंयच उबे रावन रावन पांय वळून

येतकीच ह्या भाल्यांचो आदार घेवप ...समजलें !

भिकू : म्हणजे ...हो भालो म्हळयार ताचो तिसरो पांय तर !

तुकाराम : तशें जाल्यार हांव शिपाय कसो ! ? ...हांव टिपाय तर !!

गांवकार : देसायबाब...तुजे भुमिकेबद्दल कांय गजाली सांगतां ...यो असो यो ! ...(देसाय येता...) जावं बाबा हे खेपेक तरी आयकलें ताका. (देसाय येवन बागवता आनी जमनीवेलें कुस्कुट काडून ... वता)

देसाय : पीन उडयिल्ली कोणें सकयल...कोणाल्या पांयां - बियां लागपाची.

गांवकार : म्हणजे तूं ती पीन उखलपाक आयिल्लो?...म्हाका दिसलें तुका आयकुपाक लागलें म्हण !

देसाय : (म्हऱ्यांत येवन) तशें आयकता म्हाका डायरेकटरबाब. कितें जालें?

गांवकार : आतां तुजे भुमिकेबद्धल कांय गजाली सांगता.

देसाय : सांग...सांग.

गांवकार : हें पळय...तूं हंबीर राव ...तूं महाराजाचो खास मनीस म्हणटकीच तुवें सदांच उमेदींत रावप. सिरियस रावप ना...

देसाय : बरें बरें. (तोंडार गंभीर भाव)

गांवकार : बरें, बरें म्हणटा आनी तरीय गंभीर रावता...असल्यांनी तुका महाराज हंबीरराव म्हणचो ना...गंभीर राव म्हणटलो.

देसाय : (कितेंतरी भलतेंच आयकता) हय तर ...आनी त्या भायर सोऱ्याचो धंदो आसा.

तुकाराम : हाका व्हरून कोणूय दर्ये मारा रे .

भिकू : आरे भावोजे... तें आयकुपाचें मशीन तरी बसोवन घे रे कानाक!

तुकाराम : आनी त्या मशीनासकट स्टेजीर चड म्हणटा ताका ? शिवाजीच्या काळार... आयकुपाचें मनीश !!

गांवकारः तुमी ओगी रावात आतां... ताका ॲक्टींग कशी शिकोवपाची तें समजलां म्हाका आतां. देसायबाब... असो यो (देसाय येता.... आनी गांवकारा कुशीक उबो रावता. गांवकार ताका ॲक्टींग शिकयिल्ले भशेन हातवारे करता... पूण तोंडान भलतेंच उलयता. देसाय मात..... डायरेक्टर आपल्याक ॲक्टींग शिकयिल्ले भशेन शिकता.... वेगवेगळयो पोझीशन्स घेता.... मदीं मदीं तोंडान इतिहासीक डायलॉग बी म्हणटा....) हांव कितें म्हणटां.... सचीनाक प्लेड करून खेळपाची कसली गरज.... सरळ मार मरे उबारून.... मागीर पळय कसो स्कोर जाता तो!

देसाय : कळलें .... कळलें!.. मातोश्री जाऊ द्या त्यांना, जायचं असेल तर.... ते आपणहून गेल्यावर मग राज्य आमच्याच हातात राहील.

गांवकार : हेवटेन काँग्रेस.... तेवटेन एम जी - तिकेट घेवूं आतां कोणाची ?

देसाय : पंतांना.... पन्हाळगडावर पाठवून देण्यामागं त्यांची काहीतरी कूटनीती असेल.

गांवकार : पळयलें मरे (तुकाराम आनी भिकूक) ताका दिसलें हांव नाटकांतलें भाशण वाचून डायरेक्शन दितां म्हण !

देसाय : (नाटकांतलें भाशण शिकयता अशें समजून) मोरोपंत आणि शिपाई .... आम्ही जे काही बोललो ते मातोश्रींना कळटा कामा नये....

गांवकार : (देसायाक वेंग मारून) मानलो.... मानलो... तुका. तुजेसारको ॲक्टर मेळप हें हांव म्हजें भाग्य समजतां.

देसाय : थँक्यू, थँक्यू !

तुकाराम : वेल्यान थँक्यू आनी म्हणटा, तोंड घेवन !

भिकू : (देसायाक) तुजीं मरे कानसुलां फोडूंक जाय, कानसुलां.

देसाय : कसलीं.... कापीं काय रसाळ ?

तुकाराम : (भिकूक) जालें मरे !.... तुवें कानसुलां म्हळें आनी ताका 'पणसुलां' शें दिसलें !!

गांवकार : पणसुलां फोडिल्ले भशेन फोडून... नाटकादिसा लोक आमचें एक तर खतखतें करतले नाजाल्यार रगड्यार वांटून साठां तरी घालतले !!

देसाय : डायरेकटर बाब... तूं कांयच भिनाका..... तें सगळें म्हजेर पावलें... कसलें कास्ताचें नाटक उडयतां पळय .... म्हजे प्रत्येक अँट्रीक वन्स मोर घेवन दारवयतां.... (लोकांक) ताळयो...... ! (सगळे Still उबे रावतात आनी भितल्ल्यान लोकांच्यो ताळयो आनी "वन्स मोर - वन्स मोर" आयकूंक येता.)

**- पयलो अंक सोंपता -**

## अंक : दुसरो

(स्टेजीर आतां एक नाटकाची स्टेज दिसता. तिका नाटकाचो पडडो आसा अशे तरेन सगळे वावूरतात. त्या पड्ड्याभायल्यान सॅम्पल पावणे सुरवात करता, पड्ड्याभितर सगळे पार्टी (कलाकार) पासयो मारतात... प्रेक्षकांक दिसता...कारण नाटकांतले स्टेजीचो पडडो हो make belie टायपाचो. हो पडडो वयर सरचे आदीं भायल्यान पावणी चलताली... सोंपपाकडेन पावल्या. उपरांत येवकार समारंभ जातलो आनी मागीर नाटक

सॅम्पल : आतां हो निमाणो म्हूर्ता नाल्ल. हो देवाच्या पायांकडलो नाल पावता सवायशीं रूपया - पयली खेप ! सवायशीं रूपया पयल खेप !.... (भितल्ल्यान बोली आयकूंक येता - 'दोनशीं रूपया'... दोनशीं रूपया पयली खेप !.... (अडेचशीं) अडेचशीं रूप पयली खेप !.... म्हूर्ता नाल्ल - अडेचशीं रूपया - पयली खे !.... (तिनशें एक रूपया) तिनशें एक रूपया पयली खेप.. तिनशें एक रूपया दुसरी खेप.... (तीनशें एकावन्न) तिन एकावन्न रूपया पयली खेप .... (चारशीं रूपया....) चार रूपया पयली खेप.... चारशीं रूपया दुसरी खेप....चारशीं रूप तिसरी खेप....पावतो SS सा !.... (भितल्ल्यांक सांगता..) पंढरी.

पंढरी कुडचडकार.... (नाल्ल भितल्लेवटेन दिता....) (लोकांक) इतल्यांत आमची पावणी सोंपता आतां रोखडोच येवकार समारंभ जातलो. ह्या येवकार समारंभाक आमच्या गांवचे फामाद नाटककार तशेंच आयचे सत्कारमुर्ती श्री. कृष्णा केरकार हाजीर आसतले. तेच प्रमाणे कार्यक्रमाचे अध्यक्ष म्हण आमचे सरपंच श्री. दयानंद फडटे हाजीर रावतले. सत्कारमुर्ती आनी अध्यक्षांनी आमकां येवपाची गॅरेन्टी दिल्या, पूण आजून ते पावूंक नात...(लोकांचो बोवाळ : नाटक सुरू करा SS ... नाटक सुरू करा SS...) सगळयांकडेन म्हाजें एक कळकळीचें, नमळायेचें, मायेमोगाचें मागणें... तुमी सगळयांनी शांत चित्तान बसोन घेवंचे...आमी सरपंच आनी सत्कारमुर्ती येनाफूडें नाटकाक सुरवात...

(इतल्यांत परतून बोवाळ : सरपंच आनी सत्कारमुर्ती गेले तेल लायत...नाटक सुरू करा, नाटक)

आयकात, आयकात ...लक्ष दियात...एक महत्वाची अशी इम्पॉटन सुचोवणी आसा. आतांच आमच्या डायरेक्टराक फोन आयला की सरपंच आनी सत्कारमुर्ती अर्ध्यार पावल्यात. खंयच्याच रिवणाक ते हांगा पावपाक शकतात...

(लोक परतून बोवाळ घालतातः आरे ! तेंचें पडलें पाड रे व्हरोन. तुमी नाटक सुरू करात. ए SS सॅम्पल, चल पयलीं भितर, नाजाल्यार कुसलें तांतें काडून मारतलों तोंडाबराबर....)

(लोकांचो राग पळोवन सॅम्पल सडसडीत पड्ड्या फाटल्यान वता... म्हळयारच नाटक जावपाचे ते स्टेजीर, सगळेजाण थंय येवन बोवाळटात...सरपंच, सत्कारमुर्ती येवंक नात म्हण उलयतात. ...हुस्केतात...)

भिकू : आरे पांडू ! आजून पावूंना मरे हे ...सरपंच आनी सत्कारमुर्ती

पांडू : बसल्या आसतले खंयूय...(पिवपाची कुरू करून)

शाबू : ना रे . अर्ध्या वाटेर पावल्या खंय. आत्तां सॅम्पलान ॲनावन्समॅन केल्ली आयकूं ना तुमी ?

सॅम्पल : ॲनावन्समॅन्ट कसली कपलाची ! आरे, लोक सामके चाळवल्या म्हणून दिलें ठोकून बन्डल.

पांडू : आतां कितें करप रे ? सरपंच ना तो ना, मुर्तीय बी ना मरे !

शाबू : कोण सांगता मुर्ती ना म्हूणोन ? ...आनी हायें काल हाङ्‌ थेयल्या ती...(भितल्लेबटेन बो दाखयत म्हणटा) दिसली, पळ ती पळय ...मुर्ती ना खंय मुर्ती !

पांडू : आरे ती नटराजाची मुर्ती. ती न्ही रे ! ती आमी हांगा स्टेज आपयल्या ती ...

शाबू : (कपलार हात मारता...) आवय देवा ! ...सत्कारमुर्ती म्हणा दिसता हो. तूं मरे पापया ...तुका हात जोडटां ...तूं मरे उल नाका. फकत आयकत राव.

सॅम्पल : आरे, आतां उलयत रावचेपरस कितेंय उपाय काडा मरे !

गांवकार : उपाय आनी कसलो कर्माचो ! आतां मरे एक फोण मारा आ तेतून पुरा म्हाका.

पांडू : हावें काल माल्ला मरे फोण !

भिकू : मेल्ल्या, तो पयलींच बेजारला आनी वयल्यान तूं फोण माला म्हणटा.

ांडू : आरे फोण न्ही रे ! फोन, फोन ! काल माल्लेलो हायें फोन, सरपंचाक.

ांवकार : मागीर ? कितें म्हणटालो तो ! ?..

ांडू : तो मेळूंना. तेगे बायल मेळ्ळी म्हाका !?

भेकू : तुका !?...

ांडू : आरे, म्हाका मेळ्ळी म्हणजे फोनार मेळ्ळी.

ाबू : मागीर ! कितें म्हणपाक लागली !

ांडू : आपूण सांगून दवरतां म्हणपाक लागली... तो रातचो साडेबारांक बी येता खंय घरा !

लोक : (लोकांचो बोवाळ.....) ए ऽ ऽ... नाटक सुरू करा ... नाटक!...

गांवकार : आरे, लोक बोब मारपाक लागले. आतां कितें करपाचें ?

किशोर : आमी अशें केल्यार कशें !?

देसाय : म्हाका दिसता, आमी अशें केल्यार चड बरें !

गांवकार : आमी तशेंच करया.

सगळे : तशें म्हणजे कशें !?...

गांवकार : (कुशीची घंटा घेवन 'पयली घंटा' दिता) तशें म्हणजे अशें !

पांडू : हें कितें !

गांवकार : ही पयली घंटा !

भिकू : आनी सरपंच आनी सत्कारमूर्ती ?

गांवकार : दोगूय माल्ले झक !

शाबू : आनी मदींच आयले जाल्यार कितें करप ! ?

गांवकार : भोंकार फोंट मारात आनी धांवडायात.

लोक : (लोकांचो बोवाळ).... नाटक सुरू करा नाटक !

पांडू : (गांवकाराकडली घंटा घेवन सॅम्पलाकडेन दिता...) ए ऽ ऽ सॅम्पल... चल दुसरी दी.

सॅम्पल : दुसरी दी कितें ! घंटा !! आनी नाल्ल कोण फोडटलो आजो तुजो?

पांडू : आज्या वयर काडनाका हां ! .... फोडटलों धरून.

सॅम्पल : (तापता....) कितें ! ?

पांडू : नाल्ल !!

शाबू : चल, घेवन यो ! (पांडू नाल्ल हाडटा... नाल्ल फोडटात....)

(सॅम्पल दुसरी घंटा दिता.....)

एकलो : राजेंद्र कवळेकार मात्सो स्टेजीफाटल्यान अर्जंट जायो. (दुसरो येवन आपूण एक announcement करता.)

सॅम्पल : स्टेजीचे दावेवटेन दवल्ल्या ती GA-01 X- फोर फोर तीन पांच ही धवी मारूती मात्शी सायटीक काडची. GA-01 X-44 35 ही धवी मारूती मात्शी सायटीक काडची. मात्शे वोगी रावात - आतां आमी रोखडेच नाटकाक सुरवात करता....

(तिसरी घंटा वाजता.....)

गांवकार : सॅम्पल .... यो. नांदी सुरू करया..... (सॅम्पल येवन सगळ्यांक लायनीन दवरता आनी नांदी सुरू करता....)

गांवकार : सुस्वागतम (तिन खेप) रसीक हो नमस्कार ! रंगदेवतेला विनम्र

अभिवादन करून "श्री भिमेश्वर कालीदेवी सांस्कृतीक नाट्य मंडळ" सहर्ष सादर करीत आहे... तीन अंकी इतिहासीक नाटक - "रायगडाला जेव्हा झाग येते" (तिन फावटी) मूळ लेखकः श्री. वसंत कानेटकर. काही बदल करून स्वैर पुनर्लेखन - श्री. तुळशीदास गांवकर. यात भाग घेणारे कलाकार :

संभाजी - श्री. शाबू चिरपुटकर

हंबीर राव - श्री. गजा देसाई

मोरोपंत - श्री. भिकू उर्फ भावोजी नाईक

अफझलखान - श्री. पांडू चंद्रकांत गावडे

शिपाई - श्री. तुकाराम के. नाईक आणि...

'शिवाजी'चे भुमिकेत - श्री. किशोर कवळेकर.

पुनर्लेखन आणि दिग्दर्शन - श्री. तुळशीदास गांवकर

नेपथ्य आणि वेशभुशा - श्री. दामू कवळेकर

विशेश सहकार्य - सरपंच श्री. दयानंद फडटे आणि श्री. दिनेश उर्फ सॅम्पल चिरपुटकर.

तर "श्री भिमेश्वर कालीदेवी सांस्कृतीक नाट्यमंडळ" सहर्ष सादर करीत आहे.... तीन अंकी इतिहासीक नाटक. रायघडाला झेव्हा झाग येते" (तीन फावटी).

(सॅम्पल तीसरी घंटा वाजयता....)

गांवकारः सॅम्पल पड्डो ओड, पड्डो ओड.(सॅम्पल पड्डो वयर ओडटा)

भिकू : संभाजी राजे ! राजे आपण इथं आलात ते खूप बरं झालं. प्रेसीडेंट

आम्हाला चिंता लागून राहीली होती.

शाबू : मारोपंत ! एवढं, चिंता करण्याचं कारण ते काय ! आमी आबाजींशी भांडून गेलो म्हणजे आबाजींना सोडून गेलो, असा अर्थ होत नाही.

(भितर बोवाळ जाता)

भितल्ल्यान : ए SS सरपंच येयलो... सरपंच येयलो....

गांवकार : ए SS संभाजी आनी मोरोपंत .... येया भितर. (भिकू आनी शाबूक आपयता) सरपंच आयला. पयली तेगेलें उलोवप जावनी. मागीर स्टार्ट करया नाटक.

शाबू : (स्टेजीवेल्यानच) पूण तूंच हेदोळ म्हणटालो न्ही रे ..... आयलो जाल्यार भोंकार फोंट मारून धांवडांवया म्हण?...

गांवकार : तुका तागेल्या कुळागरांतल्यान वचपाक वाट जाय मरे ? ... यो सडसडीत भितर.

शाबू : (भिकूक) यो सडसडीत भितर.... (दोगूय भितर वतात.....प्रेक्षकांचो परतून बोवाळ)

गांवकार : (सॅम्पलाक) आरे, ए SS पडडो उडय... पड्डो उडय !

सॅम्पल : (गांठ सोडोवपाचो यत्न करता) आरे, तेंच करता न्ही रे.... पूण गांठच सुटना.

गांवकार : आसूं तर.... यो.... तें टेबल वयर हाड.... आरे, ए.... (हेरांक) खुर्च्यो बिर्च्यो घेयात... सरपंचाक मदीं बसूनी... (हेरांक) आरे ए SS ...तुमी कितें प्लॅन काडटात ? ...सडसडीत खुर्च्यो लायात वयर.

शाबू : खुर्च्यो कितल्यो लावपाच्यो ?

गांवकार : (मेजता) हांव, सरपंच, सत्कारमुर्ती.

शाबू : सत्कारमुर्ती आजून येवना.

गांवकार : आनी मर्दींच आयलो जाल्यार ! ?... लाय तूं खुर्ची

शाबू : म्हणजे तीन

किशोर : आनी हांव ? ...म्हाजें उपकाराचें भाशण आसा.

शाबू : उपकाराचें भाशण आसल्यार कितें जालें ? ...तें दोन मिनटांचें काम मरे ! तेजे खातीर तुका बसपाक जाय ?

गांवकार : (शाबू) आरे पापया ! ताचेकडेन चड वाद घालनाका. ताणे सगळयां परस चड डोनेशन दिलां. ओगीच केला तर ताका शिवाजी. ताकाय एक खुर्ची लाय.

शाबू : (तो म्हणसर तीन खुर्च्यो लायिल्ल्यो आसतात...कुशीक आशिल्ले खुर्चेवटेन बोट दारखोवन...किशोराक सांगता) ही ती घे, आसा ती.

किशोर : (आपूणच वचून आपली खुर्ची घेवन येता...इतल्यांत ताची नदर मदले खुर्चेकडेन वता. थंय एकाचेर एक अशे दोन खुर्च्यो दाळील्ल्यो आसतात) ए SS शाबू SS हें कितें ! खुर्च्यो सवाय जाल्या रे ! ... हांगा एकाचेर एक खुर्ची दवल्ल्या मरे !

शाबू : (किशोर वयली खुर्ची काडपाक वता, इतल्यांत ...) ए S S ती खुर्ची काडनाका.

गांवकार: (शाबूक) आरे ! पूण एकाचेर एक कित्याक ?

शाबू : सरपंचान पयलींच सांगलां, सगळयांपरस आपूण वयर आसपाक

जाय म्हूणोन !

गांवकारः तशें जाल्यार निसण हाडपाची.

शाबू : वयर वचपाक न्ही...वयर आसपाक जाय म्हणटालो तो.

गांवकार : तो सांगता...तूं आयकता...(पांयां पडून) धन्य रे बाबा तुमी ! (किशोर खुर्ची तशीच दवरता) आनी मायक्वालो खंय गेलो ?... (भितर पळोवन) तूं कितें थंय भजीं काडटा ? ... मायक लाय... मायक लाय !

(भितल्ल्यान सरपंचाक घेवन येतात. बसपाची ऑर्डर अशी : *गांवकार, सरपंच, सत्कारमुर्ती, किशोर.* सरपंच, गांवकार आनी किशोर आपापले खुर्चेर बसतात...सत्कारमुर्तीचे खुर्चेर किशोर लेंस दवरता. सरपंच तो लेंस पळयता आनी काडटा...)

सरपंच : (भितल्लेवटेन पळोवन) आरे, कोणालो तरी लेंस हांगाच उल्ला.

किशोर : (लेंस काडून घेता...परतून खुर्चेर दवरता) हांवे दवल्ला तो. ही सत्कारमुर्तीली खुर्ची. दुसरो कोणूय येवन बसत म्हण हांवें लेंस दवल्ला.

गांवकार : ही कितें कंदबा बस ! ?...सीट रीजर्व्ह करता तो ! (तापता) काड पयलीं तो लेंस (किशोर) सडसडीत लेंस काडटा आनी हातांत घेता) शाबू, चल स्टार्ट कर.

शाबू : (सुरवात मराठींत, फुडलें सगळें कोंकणींत) नमस्कार ! आमच्या गांवचे माननीय सरपंच श्री. दयानंद फडटे, नाटकाचे लेखक आनी दिग्दर्शक श्रीयूत गांवकर, आजचे सत्कारमुर्ती श्री. कृष्णा केरकर ...

किशोर : तो येवूंना, आजून येवना.

गांवकार : (किशोराक) आरे , तो एक उलयलो तो उलयलो. तूं आनी मदींच कित्याक उलयता ?

शाबू : तो येवूंना ...त्यामुळे मी माझे शब्द परत घेतो.

गांवकार : (शाबूक) आरे पापया ! पयलींच लेट जाला. तुजें आनी ॲडीशन करनाका ....बरयलां तेंच वाच.

शाबू : तसेच नाट्यमंडळाचे अध्यक्ष श्री. किशोर कवळेकर, माझे मीत्र ... तसेच नाट्यमंडळाचे अध्यक्ष श्री. किशोर कवळेकर, इतर सहयोगी, हितचिंतक, पत्रकार, प्रायोजक.... आनी बंधू आनी भगीनीनो. आजचा दिवस आमच्यासाठी भाग्याचा दिवस हाये. कारण आयच्या दिसा आमकां प्रमुख पावणे म्हण आमचे परमप्रीय सरपंच आमकां लाबल्यात. तांची मुख्यमंत्र्यांकडेन मिटींग आशिल्ल्यान हांगा येवपाक तांका कळाव जालो.... देखून हांव तांची चूक मागतां.

गांवकार : लेट येता कोण... आनी चूक मागता कोण !...

शाबू : एका संतान म्हणलां...

*जो जे वांछील, तो ते खावावे ।*

*लेट पावले तरी चालावे, पण एकदांचे पावावे ।।*

तशेतरेन आमचे सरपंच एकदांचे हांगा पावले, देखून हांव आमचे सगळयांचे वतीन तांची परतून एकदां चूक मागतां.

गांवकार : आतां परतून जर चूक मागत, जाल्यार कानसुलां फोडटलों धरून.... मुद्याचें उलय.

शाबू : आयच्या कार्यक्रमाचे प्रमुख पावणे हांची वळख करून दिवची अशें हांव, नाटकाचे दिग्दर्शक श्रीयूत गांवकार हाचेलागीं मागतां..... (गांवकार मायकालागीं येता)

गांवकार : नमस्कार.... आजच्या कार्यक्रमाचे प्रमूख पावणे, आमच्या गांवचे सरपंच महोदय श्रीमान दयानंद फडटे, यांना विनम्र अभिवादन करून मी त्यांची थोडे भितर वळख करून देतो. तांची वळख करून दिवपाचें काम म्हाका दिवप म्हळ्यार हांव तो म्हजोच सत्कार अशें समजतां. तर जाता कितें ... मनीस एकदांचो व्हड जालो म्हणटकीच, तो ल्हान उरना.... हाकालागून जाता कितें ! जायते फावटी मनशाक आपूण ल्हानूच उरचोसो दिसता.... पूण दिसता तशें नासता, देखून मनशाक व्हड जावचोच पडटा..... आनी व्हड जातकीच जाता कितें ! आपूण एकलोच व्हड आनी बाकीचे सगळे ल्हान अशें तो समजता.... अशें समजलें - तरी जाता कितें !

सरपंच : (तिडकीन उठून.....) तुका सद्या जाता कितें ! ?

किशोर : (सरपंचाक....) बसा बसा.... तुमी बसा.... (गांवकाराक) आरे, सरपंचाची वळख करून दी पयलीं.

गांवकार : (याद करून) हां!.... हां !... तर असो हो आमचो, गांवच्या सगळयांचो , अपूर्बायेचो सरपंच ..(ताळयांचे अपेक्षेन पळयता... आनी मागीर आपूणच .... सगळयांक सांगता) ताळयो !!

(भितल्ल्यान ताळयो वाजतात... गांवकार आपल्या जाग्यार बसता....)

शाबू : आमच्या नाटकाचे दिर्घ दर्शक... सॉरी... दीग् दिग....दिग्दर्शक

श्रीयूत गांवकार हाणे तुमकां प्रमुख पावण्यांची वळख करून दिल्या.

*"उत्तराना येवकारास्यम् - अभ्यूदान अर्दसत्यम*
*पुष्पलता भेटकार्डम् - येवकारासे पुर्णसत्यम्"*

म्हणजेच उतरांनी येवकार जाल्लोच आसा. आतां फुलांनी येवकार करया.... हांव मागतां आमच्या गांवचो भावोजी - म्हणजेच भिकू नाईक (नाटकांतलो मोरोपंत) हाचेलागीं - की ताणे आयच्या प्रमूख पावण्याक फुलां भेटोवन येवकार दिवचो.....

(भितल्ल्यानः भावोजे भावोजे चिला पोतें भावोजीच्या माथ्यार हागलें खेतें)

शाबू : (भितल्ल्यान आड्डतल्यांक) शू SS शूSS... ओगी राव ! (भावोजी एक दसणीफूल हाडून सरपंचाक भेटयता. भावोजी फूल दितासतना .... हेवटेन तेवटेन पळयता...फोटो काडटले हे अपेक्षेन)

शाबू : चल.... चल. फोटोग्राफर येवूंना. फोटो ना... चल भितर (भावोजी भितर वता.) आतां फुलांनी येवकार जालाच. देखून हांव मागतां आयच्या ह्या कार्यक्रमाचे प्रमूख पावणे आमच्या गांवचे सरपंच श्रीमान दयानंद फडटे हांचे लागीं की ताणी आपलें भाशण ठोकचें ... (मायक व्हरून ताच्या टेबलाकडेन दवरता....)

सरपंच : नमस्कार... (मायक तपासता...) हॅलो... हॅलो... हॅलो.. चॅक, चॅक... मायक टेस्टींग, वन टू थ्री.....

गांवकार : चालू आसा... चालू आसा....

सरपच : हां.... तर आयच्या कार्यक्रमाचे.... म्हणजे नाटकाचे लेखक आनी डायरेक्टर, माझे मित्र श्री. गांवकरबाब, नाट्यमंडळाचे

श्री. किशोर कवळेकर, सुत्रसंचालक श्री. शाबू.... पत्रकार आनी नाट्य रसीक बंधू आनी भयणीनो. पयलीं हांव लेट पावलों म्हण चूक मागतां. आमची सीएमाकडेन मिटींग आशिल्ली ताका लागून वेळ जालो.

तर आयज हांगा एक नाटक जावपाचें आसा. आमचो हो गांव म्हळयार नाटकांचें माहेरघर. नाटकांची परंपरा हांगा हजारांनी वर्सांसावन आसा. म्हाकाय नाटकांत काम करपाची खूप उमेद आशिल्ली. म्हजीं नाटकां पळोवनच, म्हज्या कांय इश्टांनी म्हाका राजकारणांत भितर सरपाचो संदेश दिलो. आनी हांव निवडून आयलों, सरपंच जालों... सरपंच जालो तरी हांव अजूनय नाटकां करीत आसां. हांव सरपंच जातकीच ह्या वाड्यार नळ पावलो, लायट पावली.... आदल्या सरपंचान फकत पायपां घातिल्लीं.... तातूंत उदक कोणें सोडलें ?... हांवें सोडलें. ताणे खांब्यांचेर फकत वायरी ओडिल्ल्यो .... तातूंत लायट कोणे सोडली.... हांवें सोडली... सांगपाक गेल्यार खूप कितें आसा..... पूण म्हाका मोठेपण गावपाची संवय ना...

ह्या गांवांत हांवें नव्यो नव्यो स्किम्मी हाडल्यो. गरिबांक पेन्शनां दिलीं... वाड्यावाड्यार संडास बांदले... तेंचो तुमी उपेग करपाक जाय. आतां हांवें एक नवी स्कीम काडल्या.... "नितळ गांव - नितळ गांवकार". ह्या स्कीमीअंडर हांव वाड्यावाड्यार बाथरूम बांदपाचों आसां. थंय तुमी जाय तितकेफावटी न्हावपाक जाता.... तो नळ पब्लीक नळाभशेन चोवीस तास चालू उरतलो. ... तशें सांगपाक गेल्यार खूप कितें आसा - पूण म्हाका मोठेपण गावपाची संवय ना.

हांव सरपंच जावचेपयलीं हांगा नाल्लांक रोग आयिल्लो....

आनी हांव सरपंच जायतसावन दरेका माडार कांय ना म्हळयार साठ-सत्तर नाल्ल जातात. हें कोणाक लागून ? ... म्हाकालागून.... तशें सांगपाक गेल्यार खूप कितें आसां - पूण म्हाका मोठेंपण गांवपाची संवय ना.

(कुशीच्यान... सूत्रसंचालक म्हणटा.....)

सूत्रसंचालकः सरपंच (ल्हवू आवाजांत) नाटकाबद्दल उलयात... नाटकाबद्दल.

सरपंच : (भानार येता) हां !... तर अशें हें नाटक. (किशोराक, गांवकाराक पळोवन) पोरांनो, ... अशेचतरेन तुमी जाय तितलीं नाटकां करात.... इतिहासीकूच न्ही, भुगोलीक सुद्धा नाटकां करात.... हांव आसतना भिवपाची गरज ना. ... म्हाजो फूल सपोर्ट तुमकां.... तर आयज तुमी म्हाका हांगा प्रमूख पावणो म्हण हाडलो म्हणून हांव तुमचे उपकार मानतां!.... आनी तुमकां नाट्यसेवेरखातीर कसलीय मदत जाय जाल्यार हांव सीएमाकडेन उलयतां.. इतलें सांगून हांव म्हजे दोन शब्द सोपयतां... (बसता..... भितल्ल्यान ताळयो)

शाबू : आतां हांव मागतां, आयचे सत्कारमुर्ती श्री. कृष्णा केरकार हांणी दोन शब्द सांगचे.

गांवकार : (तिडकीन पळयता...) तुजेर आतां ...

शाबू : तो येवूंना ...म्हणून मी माझे शब्द परत मागे घेतो. आनी आतां हांव श्री. किशोर कवळेकार हांचेकडेन मागतां की तांणी उपकाराचें उलोवप करचें....

(किशोर उठून मायकाकडेन येता... येतना शिवाजीभशेन चलत येता... आनी त्याच थाटांत उलयता...)

किशोर : श्रीमान सरपंच, श्री गांवकर, शाबूदाद... आनी मर्द मराठ्यांनो... आयज मी इथे उपकाराचे भाशण करणार आहे. आमच्या गांवचे सरपंच हे तशे रात-दीस बिझी आसता. (इतल्यांत भितल्ल्यान पांडू येता)

पांडू : एक मिनीट, एक मिनीट...कृष्णमुर्ती आयलो, कृष्णमुर्ती आयलो.

गांवकार : कोण कृष्णमुर्ती ? ....

पांडू : आरे कृष्णमुर्ती रे ... (चूक लक्षांत येता ...) आपलें ...हो, सत्कारमुर्ती कृष्णा, कृष्णा केरकार ...आयला भितर बसला.

गांवकार : आतां हांव कितें पालखी धाडूं थंय ! ? यो म्हण सांग ताका हांगा स्टेजीर.

पांडू : ओके, ओके ...धाडटां ताका. (पांडू भितर वता) (कृष्णा केरकार पिरायेन मात्सो जाणटो...खांदाक बोटवो लायला ...दोळयांक वोक्ल ...आंगार सदरो चडयला ...खोंकत खोंकत येता)

सत्कारमुर्ती : (सगळयांक हात दिता, नमस्कार करता ...आनी येवन आपले खुर्चेर बसता. किशोर ताका आपणें लेंस दवरून सीट आडयिल्लें म्हण कुरवांनीच सांगता ...)

गांवकार : तरी बेगीन पावलो तूं .

सत्कारमुर्ती : जानकीक लागून बेगीन पावलों.

गांवकार : जानकी ...म्हणजे ! घरकान्न ?

सत्कारमुर्ती : पिकप, पिकप ..गावणेकाराली ...जानकी नांव ...पिकपीचें. तेणे लीफ्ट दिली म्हाका.

गांवकार : (शाबूक) तूं स्टार्ट कर पिकप ...आपलें हें ...स्टार्ट कर फुडलें.

ाबू : तर आतां आमचे सत्कारमुर्ती श्रीयूत कृष्णा केरकर यांचा सरपंच्यांच्या हस्ते शाल आणि श्रीफळ देउन सत्कार जातलो. हांव मागतां, सरपंचाकडेन की ताणी कृष्णमुर्तीचो ...आपलें, सत्कारमुर्ती श्री. कृष्णा हांचो सत्कार करचो.

(सरपंच आनी सत्कारमुर्ती उबे रावतात. तांका पळोवन गांवकार आनी किशोरूय उबे रावतात)

(तुकाराम भितल्ल्यान एक ताटांत फुलांचो हार, शाल आनी 'श्री' अशें पेनान बरयिल्लो एक आपोल घालून घेवन येता. ताट गांवकाराकडेन दिता.)

गांवकार : (ताटांतलो हार काडून सरपंचाकडेन दिता) घे.

(सरंपच तो हार सत्कारमुर्तीच्या गळ्यांत घालता...सगळे ताळयो मारतात...)

गांवकार : (ताटांतलो आपोल हातांत घेवन कुशीकच उबो राविल्ल्या तुकारामाक विचारता) माकडा, हें कितें ? ...हो आपोल कित्याक हाडला ? ...श्रीफळ हाड, श्रीफळ. श्रीफळ म्हणल्यार नाल्ल.

तुकाराम : नाल्ल एकूच आसलेलो. तो हेदोळ नांदी चलतना फोडलो.

गांवकार : (ल्हवू आवाजांत) आरे, तीं दोनूय वळीं सुतलेन एकडेन बांदपाचीं न्ही !

तुकाराम : एक वळें सॅम्पलान खालें.

गांवकार : म्हणून आपोल हाडप ! ? हें कितें श्रीफळ ? ...हें बेश्टें फळ.

तुकाराम : बेश्टें फळ न्ही तें ! ...हांवें तेचेर स्कॅच पॅनान 'श्री' म्हण बरयला. हांवें त[illegible] श्रीफळ केलां.

गांवकार : (बेजारून) सॅम्पलान वळें खालें मरे ! ...घे, तूं आपोल खा.
(तुकाराम आपोल घेता आनी कुशीक उबो रावन खाता) गांवकार शाल काडून सरपंचाकडेन दिता. सरपंच सत्कारमुर्तीच्या खांदार शाल घालता. सगळे ताळयो मारतात. सगळे बसतात)

शाबू : आतां हांव सत्कारमुर्तीकडेन मागतां की तेणे आपल्या सत्काराक जाप दिवची.

सत्कारमुर्ती : (उबो रावन, शाल तशीच पांगरून उलयता.) आजच्या या सोहळयाचे प्रमुख पावणे आनी गांवचे सरपंच श्री.दयानंद फडटे (खोंकता...) नाटकाचे लेखक आनी दिग्दर्शक श्रीयूत गांवकर (खोंकता...) नाट्यमंडळाचे अध्यक्ष श्री. किशोर कवळेकर (खोंकता...)

शाबू : (ल्हवू आवाजांत तुकारामाक सांगता) बॅकग्रावण्ड म्युजिकाक हाकाच वापरपाचो मरे आमी !

सत्कारमुर्ती : आणी माझ्या बंधू-भगिनोनो सगळयांत पयलीं हांव सांगूक सोदतां की हो सत्कार म्हजो एकल्याचो न्ही...तो म्हजे तेन्नाचे दिग्दर्शक आनी सगळया सहकलाकारांचो.(परत मराठींत) माझा जन्म एकोणशे पन्नास साली झाला. त्या साली आमच्या गावात पणशीकरांचे नाटक झाले होते. एकोणशे सत्तर साली, मी रंगमंचावर पाउल ठेवले. त्या साली, मी एकूण पांच नाटकात कामे केली. नंतर एकात्त्यर साली मी...

गांवकार : साली वेल्यान मात्सो कुशीक सर. निसरून बी पडत. बेगीनूच सोंपय. आमगेलें नाटक उल्लां.

सत्कारमुर्ती : ... तर हो सत्कार केलो म्हूण हांव सगळयांचे उपकार मानतां, तशेंच म्हाका हांगा टायमार पावयलो म्हूण गांवणेकाराकूय देव

बरें करूं म्हणटां आनी तुमी सर्वांनी माझे दोन शब्द शांत चित्ताने ऐकले म्हणून तुम्हा सर्वानां देव बरे करू म्हणतो. (सगळे ताळ्यो मारतात. सत्कार मुर्ती बसता)

शाबू : आतां हांव श्री. किशोर कवळेकार हाचेकडेन मागतां ती ताणीं उपकाराचें उलोवप करचें.

(किशोर तसोच शिवाजीभशेन चलत येता आनी त्याच थाटांत उलयता)

किशोर : श्रीमान सरपंच, श्री गांवकर, शाबूदाद... आनी मर्द मराठ्यांनो... आयज मी इथे उपकाराचे भाशण करणार आहे. आमच्या गांवचे सरपंच, हे तशे रात-दीस बिझी आसता. पूण तांणी हांगां उपस्थिती लायली म्हण हांव तांकां देव बरें करूं म्हणटां. आयत्या वेळार आमकां दसणीचें फूल दिवपी सौ. जयंती हीचेय हांव उपकार मानतां. तशेंच हांगा ही स्टेज घालपी, माटोव घालपी लोकांचेय हांव उपकार मानतां.... तसेंच चुकून कोणय उल्ल्या आसत जाल्यार तांचेय आमी उपकार मानतात. अशेतरेन हांव म्हजें उपकाराचें भाशण सोंपयतां....

शाबू : इतल्यांत आमचें आयचें नाटक.... सॉरी, हो सुवाळो हांगा सोंपलो अशें जाहीर करतां.... पूण... तुमी खंयच वचूं नाकात. आतां रोकडेच आमी परतून नाटक सुरू करतात.

(माचयेवयले सगळे उठून भितर वतात... टेबल भितर व्हरतात)

(नाटक परतून सुरू जाता.... सॅम्पल परत घांट मारता.....)

भिकू : संभाजी राजे ! राजे आपण इथं आलात ते खूप बरं झालं. आम्हाला चिंता लागून राहीली होती.

शाबू : मारोपंत ! एवढं, चिंता करण्याचं कारण ते काय ! आमी आबाजींशी भांडून गेलो म्हणजे आबाजींना सोडून गेलो, असा अर्थ होत नाही.

भिकू : पण राजे ! आपण रायगड सोडून गेलात तेव्हापासून वेगवेगळे तर्कवितर्क आमच्या कानी पडले. आपण शत्रूंना जाऊन भेटलात?....

शाबू : हो !

भिकू : राजे, राजे ! आपण मगोच्या गटात सामील झालात ?

गांवकार : (कुशीच्यान) अ SS य ! शिवाजीच्या टायमार मगो ? .... मेल्या, तें मगोच्या गटांत न्ही. मोगलांच्या गटात.... सारकें म्हण.

भिकू : सॉरी हां !! राजे ! आपण मोगलांच्या गटात सामील झालात. (सॅम्पल कुशीच्यान "शाबास-शाबास" म्हणटा....) छत्रपतींचा आणि आपला काडीमात्र संबंद रावला नाही.

शाबू : पंत, आम्ही रायगडाकडे पाठ फिरविली असा समज झाला असेल तर तुम्ही भलत्या प्रेमात आहात.

सॅम्पल : (भितर प्रॉम्टीग करतना....) आरे ! प्रेमात न्ही. भ्रमात !....

शाबू : म्हाका दिल्ल्या पुस्तकांत 'प्रेमात'च आशिल्लें.

गांवकार : बरें पापया, फुडलें उलय.

शाबू : पंत अजूनपर्यंत आबासाहेब कसे नाही आलेत?

सॅम्पल : (भितर आशिल्ल्या शिवाजीक) शिवाजे SS... शिवाजे!... अSSय आबासाहेब ! तुका धाकटो साहेब आपयता.

भिकू : संभाजी राजे ! राजे आपण इथं आलात ते खूप बंर झालं....

(गडबडेंत शिवाजी हातांत कोयती घेवन स्टेजीर येता....)

शाबू : (शिवाजीक पळोवन) आबासाहेब, असं का करता आपण ? (हातांतले कोयतेक पळोवन सुचयता) एवढी घाई - गडबड बरी नव्हे. जरा सबुरीनं घ्या.

किशोर : नाही, नाही, नाही, हे कदापी शक्य होणार नाही. जो पर्यंत आमच्या जिवात जीव असेल, तोपर्यंत ही मराठ्यांची भुमी कुणालाही मिळणार नाही.

गांवकार : (भितल्ल्यानूच ... ल्हवू आवाजांत) आरे ए ऽ ऽ ! तें मिळणार नाही तें बरें आसा. पूण तूं शिवाजी काय संकासूर रे !...कोयती घेवन स्टेजीर ! ?

किशोर : (कोयती गांवकाराकडेन दिता...) त्या सॅम्पलान दिल्ली ती म्हजेकडेन.

गांवकार : तो दीता आनी तूं घेता ?...फाल्यां तो तुका कुराड दितलो !... तिवूय घेवन स्टेजीर वतलो ?...

किशोर : दिल्ली ...पूण उरवलपाक जायना म्हण हांवेंच कुशीक दवल्ली.

सॅम्पल : मेल्ल्या, हांवें ती कोयती तुका स्टेजीर व्हरपाक दिल्ली ? नाल्ल फोडटकीच भितर व्हरून दवर म्हण दिल्ली. बंडलीस्ट खंयचो !

किशोर : आजो तुजो बंडलिस्ट !

गांवकार : ए ऽ ऽ ... आसूं, आसूं ... नाटक सुरू जालां. मुरवाल्लें उलय.

किशोर : हाती घेतलेला वसा आता टाकणे नाही. बळ एकवटून तो पुढे नेलाच पाहीजे. पण हे काम जरा रवबरदारीनं घेतलं पाहीजे.

सॅम्पल : शाबास ! शाबास SS

किशोर : पण हे काम जरा खबरदारीनं घेतलं पाहीजे...(गडबडटा....भाशण याद जायना) जरा खबरदारीनं घेतलं पाहिजे. . . . खबरदारीनं खबर ..खबर ..खबर ना फुडलें (ल्हवू कुशीक वचून)

सॅम्पल : (प्रॉम्प्टींग करता) पंतांच्या या विश्वासाबद्दल मला धन्यता वाटते.

किशोर : पंतांच्या या ...(सॅम्पलावटेन वचून)

सॅम्पल : विश्वासाबद्दल मला धन्यता वाटते ...

किशोर : पंतांच्या या ....(सॅम्पला वटेन वचून)

सॅम्पल : (मात्सो मोठ्यान) विश्वासाबद्दल मला धन्यता वाटते. तेवटेन वच.

किशोर : पंताच्या या विश्वासाबद्दल मला धन्यता वाटते. तेवटेन वच.

किशोर : आरे, नाटकांतलेंच उलय.

गांवकार : सॅम्पल ! ...भितर वचून एक तलवार हाड आनी म्हाका मारूनच उडय.

सॅम्पल : किल्याक म्हणटा तूं ?

गांवकार : ना जाल्यार लोक हें नाटक सोंपतकीच म्हाका जीतो दवरचे नात. ह्याय वर्सा गांवांत म्हाका लिपून भोंवचें पडटलेंशें दिसता.

(हंबीरराव 'देसाय' येता )

देसाय : मुजरा म्हाराज ! (शिवाजीक) राजे ! संभाजी राजांच्या सांगण्यावरून आम्ही छावणीवर जाऊन आलो.

भिकू : तिथली काय खबर बात ?

देसाय : छावणीवरचे सैनीक महाराजांविषयी काहीबाही बोलू लागले आहेत.

शाबू : म्हणजे ! ?

देसाय : हेच, की आपले आणि आबासाहेबांचे मतभेद सुरू झाले आहेत. त्यामुळेच आता मराठ्यांचे राज्य संपणार आहे. आपल्याला ते घरचे भेदी - म्हणून पाहत आहेत. आणि....

किशोर : आम्हाला हे सहन होणार नाही. हंबीरराव ! बस्...बस्...बस हंबीरराव बस् ! (देसाय जमनीर बसता)

गांवकार : आरे गाडवा ! ... तूं कित्याक बसलो ? ... बस् बस् म्हणजे पुरों पुरों..अशें !...

देसाय : (बसूनच) ह्या मेल्ल्या किशोरान सांगलें तें म्हाका बस् म्हणून.

गांवकार : पापया आतां तरी उठ !

देसाय : तुज्या बायेचो SSS...घोव ....

सॅम्पल : राव, तशें न्ही ! ताका हांव उठयतां ! ! (देसायाक) देसाय, (सोरपाची ॲक्शन करून थंय 'सोरोप' आसा म्हण सांगता)

देसाय : कितें !? मोर ! मोर !

सॅम्पल : (सोरो पिवपाची ॲक्शन करता...)

देसाय : सोरो सोरो ! ...

सॅम्पल : हय ..हय.. (रोखडीच शेतांत रोप लावपाची ॲक्शन करता)

देसाय : भिक ...भिक घालता !

सॅम्पल : ना ...ना...(परत तीच ॲक्शन करता...)

देसाय : रोप लायता...रोप ...रोप...

सॅम्पल : हय ..हय..(मागीर सोऱ्याची आनी रोप लावपाची अश्यो दोनूय ॲक्शनी एका फोटोफाट करता )

देसाय : सोरो - रोप ...सोरो - रोप ...सोरोप.... सोरोप...!! कितें ! ? सोरोप ! ? (एकदम उठ्ठा ...) मेलों रे मेलों....

सॅम्पल : (गांवकाराक) पळयलो ! कसो उठयलो तो ?

गांवकार : जावं ! उठलो एकदांचो. किशोर ....भाशण स्टार्ट कर.

किशोर : जबान सांभाळून बोला.

गांवकार : शाबास !!

किशोर : किशोर काय म्हणता ! ? ...शिवाजी म्हणा शिवाजी.

गांवकार : यो भितर यो मेल्ल्या ...त्याच तलवारीन गोंवटी कापतां तुजी. नाटकांतलें भाशण उलय.

किशोर : सुनबाईंना असा जाब विचारताना आमची मान शरमेनं खाली गेली. (मान वयर करून पळयता...)

सॅम्पल : आतां कित्याक वयर केली ?

किशोर : अजून पर्यंत आमची मान ताठ आहे....आणि एवढ्या छुल्लक कारणासाठी....

गांवकार : आरे, छुल्लक न्ही रे भावा ! क्षु - ल्ल - क.

किशोर : (गांवकाराकडेन पळोवन) तुमचं हे वर्तमान पत्र आम्हाला अजिबात आवडलं नाही, शंभूराजे !

गांवकार : आरे पापया, वर्तमानपत्र न्ही रे ...वर्तन, वर्तन.

किशोर : तुमचें हे वर्तन आम्हाला अजिबात आवडले नाही, शंभुराजे, (गांवकारावटेन बोट करून)

गांवकार : (शाबूकडेन बोट दारवोवन) तेवटेन ...तेवटेन !

शाबू : (किशोराक) आमच्या अंतःकरणाची व्यथा तुम्हाला इतक्यात नाही कळायची, आबासाहेब !

सॅम्पल : (देसायाक) देसाय!...आतां तुजें भाशण. (देसायाक आयकूंक येना) ए ऽऽ देसाय !! ...तुजें भाशण ....पाड पडूं. हो देसाय म्हणजे एक नंबर हलकट.

देसाय : (सॅम्पलाकडेन पळोवन) बरें बरें (भाशण स्टार्ट करता) खबरदार! त्याना म्हणावं, त्यांच्यापेक्षा जास्त निष्ठेनं, मी या राज्याची सेवा केलीय. आमच्या बद्दल बोलताना त्यानी, बेमुर्वतपणे आपली जीभ टाळ्याला लावायची गरज नाही. त्यानी आम्हाला अधिकार शिकवू नयेत. माझ्या फौजेत कोणाला ठेवावं आणि कोणाला ठेवू नये हे ठरवणारे ते कोण ? सेनापती झालात म्हणून काय झालं! त्याना म्हणावं अधिकाराची नशा डोक्यात चढू देऊ नका.

गांवकार : (पुस्तकांत सोदीत) आरे !...हो खंयचें भाशण उलयता ! ?

देसाय : पान नंबर चाळीस. तिसरो पॅरेग्राफ !

गांवकार : (सॅम्पलाक) पळयलें मरे ! तुवें ताका "हलकट" म्हळो - आनी तो 'अंक कट' म्हण समजलो. डायरेक्ट दुसरो अंक स्टार्ट केलो.

देसाय : त्यांनी कितीही सामर्थ्य दारववलं तरी त्याना आम्ही टँकर देऊ !

गांवकार : टँकर ! ?...टँकर कित्याक तो ? ...गडार उदक व्हरपाक ? ... आरे ! "आम्ही त्यांना कट्टर देऊ" (आपुणय चुकलो हें लक्षांत येवन ...) च् च् च्, आपलें हें..."आम्ही त्यांना टक्कर देऊ" !

देसाय : तेंच तें !

तुकराम : (मर्दींच स्टेजीर वता) आज्ञा महाराज !

सॅम्पल : आरे तूं आनी खंय मर्दींच ।

तुकाराम : ह्या देसायान पयलो अंक कट केलो आनी डायरेक्ट दुसरो सुरू केलो. मागीर ! म्हजी पयल्या अंकांतली ॲन्ट्री कितें खळां घालपाची ?

गांवकार : आतां आयलाच मरे !....तुज्या वांट्याक आयला तें म्हण सडसडीत.

तुकाराम : (हातांतलो खलीतो दीत....) महाराज ! ह्या घ्या लखोटा !

सॅम्पल : आरे लखोटा न्ही पापया ....खलीता, खलीता !

तुकाराम : सॉरी हां ! हा घ्या खलीता.

किशोर : पंत, (भिकूक) खालती वाचा. च् च् आपलें ...खलीता वाचा !

भिकू : (खलीतो घेवन वाचता) श्रीमान छत्रपती शिवाजी महाराजानां मुजरा. आमच्या या पत्राचा गलत मतलब काढू नाका. आतापर्यंत मराठ्यांशी आम्ही ज्या तऱ्हेने वागलो त्याचा आम्हाला अफसोस आहे. या पुढे आमची मील - जुलके काम करण्याची इच्छा आहे. हुजूर आपण जरूर याबद्दल विचार करावा. तुमच्या भिलनासाठी आम्ही बेकरार आहोत. आपला अफझल खान !

किशोर : शिपाई, खलिता न्या आनी अफझल खानाच्या छावणीवर जाऊन, "आम्ही त्यांच्या भेटीसाठी उत्सूक झालो आहोत " असा निरोप द्या'

तुकाराम : (खलीतो घेवन) जशी आज्ञा, म्हाराज ! (भितर वता)

किशोर : पंत, आज अफझल खान आमच्या भेटीसाठी इथे येणार आहेत. सैनीकानां जरा सावध राहण्यास सांगा.

भिकू : महाराज, आपण चिंतस्त राहा.

गांवकार : चिंतस्त न्ही रे - निश्चिंत रहा.

भिकू : महाराज आपण निश्चिंत रहा.

शांबू : परंतु आबासाहेब, या सावधगीरीमागचं कारण काय ?

किशोर : सकाळी आम्ही पन्हाळगडावरून येत असतना वाटेत एका झाडाच्या आडोशाला कुणी तरी लपल्याचा आम्हाला संशय आला तो मोगलांचा सैनीक असावा, म्हणून आम्ही दरडावून म्हटले - "कोण आहे रे तिकडे".

तुकाराम : (एकदम येता) आज्ञा महाराज !!

सॅम्पल : (स्टेजीर वचून) आरे, ताणे तुका आफोवं ना. तूं कित्याक गेलो मदींच ?

गांवकार : (स्टेजीर वचून सॅम्पलाक...) तो गेलो तो, गेलो...तूं कित्याक गेलो मदींच ?

(गांवकार सॅम्पलाक, सॅम्पल तुकारामाक ओडून हाडटा ...)

गांवकार : आरे, किशोर फुडलें भाशण उलय मरे ! ?

(इतल्यांत स्टेजीर "पोको" येता .... स्टेजीवयल्यो लायटी फरफरतात.)

किशोर : आरे कितें जालें !...लायट बी वता काय कितें रे! (भितर पळोवन)

ए SS माकडा...तुवें बी थंय बटनाक हात लावूं ना मरे! ? ...

भिकू : तुमकां सांगिल्लें हांवें दामूलें लायटींग नाका म्हण ! ताका मेल्याक फ्यूज म्हळयार कितें आनी होल्डर म्हळयार कितें तें खबर आसा खंय ?....

गांवकार : पुरों... पुरों...बोवाळ बंद करात....लायट आयली ...चला रे फुडलें भाशण स्टार्ट करा. (इतल्यांत स्टेजीर पोको प्रकट जाता)

गांवकार : आरे किशोर फुडलें भाशण उलय मरे ! ? ...

पोको : फुडलें भाशण ! ? ... तो आतां शिवाजी कसो रंगयता , तें हांव पळयतां. फाटले बारा म्हयने म्हजो आत्मो हूमकळत उल्ला. आयज हांव म्हजी इत्सा भागोवन घेतां आनी मेकळो जातां.

सॅम्पल : आरे किशोर भाशण उलय.

पोको : ए SS शेड्डया । वोग्गी बस थंय, (सॅम्पलाक म्हणटा).कितलीं वर्सां जालीं, म्हाका 'शिवाजी' जी भुमीका करपाची खाज आशिल्ली आयज जाय तशी खाजोवन घेतां.

किशोर : (भाशण उलयता) नाही ... नाही. हें कदापी शक्य नाही.

पोको : शक्य नाही ! ? ...कशें शक्य नाही तें हांव पळयतां. आतां तुजी शेणी म्हज्या हातांत. आतां म्हाका जाय तेंच तूं उलयतलो.

(पोको भाशण उलयता आनी त्या प्रमाणे तोंड हालोवन, हावभाव करून किशोर स्टेजीर वावूरता.)

पोको : नको नको म्हणत असताना आम्हाला राजा केलंस आणी आता आमची चुक झाली म्हणता ? ...

गांवकार : आरे, तूं जाग्यार आसा मरे ?

पोको : (किशोर देसायाफुडयांत वचून म्हणटा ...) संभाजीराजे, केवळ आपल्या प्रेमापायी आम्ही पन्हाळगडावरून इथे प्रस्थान केलं.

सॅम्पल : आरे ए SS !....तो हंबीर राव. संभाजी, तो पळय तेवटेन. सामको सॅम्पल मरे !!

तुकाराम : आरे !! सॅम्पल तूं मरे !...तो शिवाजी.

पोको : संभाजी !! आम्ही तुम्हाला आव्हान देतो (किशोर तलवार भायर काडटा ...) लढाईला तयार व्हा.

(किशोर सगळयांकडेन झगडपाक धांवता...)

भिकू : (गांवकाराक) डायरेक्टरबाब ! म्हाका दिसता शिवाजीचेर कोण तरी बसला !

शाबू : मेलो हो, आरे शिवाजीच बसता घोड्याचेर मागीर शिवाजीचेर आनी दुसरो कित्याक बसतलो ?

भिकू : आरे तशें न्ही...म्हाका दिसता किशोराचेर कोणाचें तरी भूत बसलां आसपाक जाय .

पोको : भूत ! ? ....हांव बसलां हांव ...पोको !

गांवकार : आरे सॅम्पल ! तुका घाडीपणां येता मरे ... मात्सो किशोराक पळय रे !!...

सॅम्पल : हय ...हय...हांव निवळायतां ताका...भिकू ! ती बेताबडी घे... (भिकू भितर वचून बडी घेवन येता.)

(सगळे किशोराक धरून सॅम्पलामुखार हाडटात....)

सॅम्पल : (घाड्याभशेन हात वावूडता ...) हं SS...हो SS ....कोण? ... कित्याक आयला ? ..केन्नाच्यान आसा.? ...आं SS...कोण ?

... राव ...तुका बेतामार दितां.. बेताबडी...बेताबडी...(भिकू सॅम्पलाकडेन बडी दिता) सोड, ही कूड सोडून वच ... वच...व़च. ..(बडयेन किशोराक बडयता...)

(तेवटेन पोको आड्डता...वळवळटा....)

पोको : नाका...मारनाका....पांय पडटां...वतां. हांव ही कूड सोडटां... मारनाका ... आवय SS गे....वतां ...व़तां हांव, पूण मारनाका ...(पोको वळवळत वता...)

किशोर : मारनाका पांय पाडटां..आवय SS गे SS...मेलों SS ...दुखवता . ..मारनाका...

सॅम्पल : मारनाका ? ....दुखवता ...क़ोण तूं ? सांग पयलीं ?...खंयच्यान आयला ? ...कित्याक आयला? सांग...

किशोर : आरे हांव किशोर ....नाटकांत काम करपाक आयलां...

सॅम्पल : खरें सांग....कोण तूं ? (बडी मारता)

किशोर : आवय गे SS ...आवयच्यान तर हांव किशोर ! पायां पडटां...सोड म्हाका....

गांवकार : (सॅम्पलाक) राव ...राव....ता़चेर कोण बशिल्लो तो गेलो दिसता. ....ताणे कूड सोडली हागेली...किशोर !...आतां कशें दिसता? ...

किशोर : बरें SS दिसता..खूप ब SS आवय ....बरें दिसता.

(भितल्ल्यान लोकांचो आवाज : नाटक सुरू करा SS ... नाटक सुरू करा....")

गांवकार : चला...चला...आपापल्या जाग्यार रावात...नाटक मुखार सुरू

करा....(सगळे आपापल्या जाग्यार वतात)

तुकाराम : (भितल्ल्यान स्टेजीर येवन...किशोराक) महाराज ! ... बाहेर एक सुंवारी आहे.

सॅम्पल : सुंवारी ! ? ...काय चंद्रावळ रे !?...तूं कितें घुमटां वाजयता !.. सुंवारी खंय ... आरे 'स्वारी' तें स्वारी.

तुकाराम : छत्रपती महाराज बाहेर एक स्वारी आली आहे.

किशोर : कोण आले आहेत ! ?

तुकाराम : अफझल खान ! साहेब !!

किशोर : आत येऊ द्या त्यानां.

भिकू : (भिऊन) साहेब मी जरा...(भायर वचपाक सोदता)

किशोर : नाही, इथून कोणीही हलायची गरज नाही.

(इतल्यांत 'अफझल खान' येता....)

पांडू : इकडे तिकडे बघत.

गांवकार : आरे पापया तें ब्रॅकेटांतलें ! खरें भाशण उलय.

पांडू : श्रीमान छत्रपती शिवाजी महाराज, आमचा मुजरा कुबूल करा. हुजूर ! आम्ही तुमच्याशी मुकाबला करायला आलो आहोत, असा गलत मतलब काढू नका.

किशोर : परंतू आजपर्यंत आपण मराठ्यांशी द्वेशाने वागत आलात. कित्येकवेळा आपण आमच्यावर आक्रमण करायचा प्रयत्न केलात. मग आज अचानक हे परिवर्तन कसं काय ? ....

पांडू : आपण असाच मतलब काढणार हे आम्हाला मालूम होतं. लेकीन,

छत्रपती महाराज ! जो कुछ भी आपके मन में है, वो साफ साफ बताईये .

किशोर : लक्ष्मणा ! ...एवढा त्रागा करून घेऊ नकोस. रावणाचं सैन्यही बलाढ्य आहे. त्याला नजरेआड करून चालणार नाही. आता आम्ही विचार करूनच पाऊल उचलायला हवं. सितेचा शोध घेण्यासाठी, आताच हनुमान गेला आहे.

सॅम्पल : आरे ए ऽ ऽ !....तें पोरूंच्या नाटकांतलें भाशण !! वोगीच पाठ आसा म्हण खंयचेंय भाशण उलोवं नाका.

गांवकार : तूं, पोरूं राम आशिल्लो. ओंदू शिवाजी, शुध्दीर यो पापया !

पांडू : महाराज, मराठ्यांनी अजूनही आमच्याकडे दुश्मनांच्या नजरेनं पाहावं याचा आम्हाला अफसोस वाटतो.

शाबू : खान साहेब, तुमच्या चाली आम्ही ओळखून आहोत. सापाला, कितीही दुध पाजलं तरी तो विषच ओकणार हे आम्ही जाणतोय.

पांडू : तोबा - तोबा... ला इलाह इल्लिल्ला ....(इतलेंच म्हणून थांबता)

गांवकार : आनी उल्ला आनी उल्ला...

पांडू : ला इलाह इल्लिल्ला - महमर्दूर सुल्लिल्ला .... गलत, बिलकूल गलत ! हुजूर आमच्यावर असा अविश्वास दाखवू नका.... तेवढी तरी मेहरबानी करा.

(इतल्यांत पोको परतून स्टेजीर येता ....)

किशोर : (पोको किशोराक खातखुतल्यो करता ...आनी किशोर हांसता ...नाचता...) उ SS य् उSS हू SS ....

गांवकार : हाका आनी कितें जालें मर्दींच ?

पोको : येन्ना कांयच जावंना. आतां मुखार जावपाचें आसा पळयच तूं ! हेदोळ हांवे शिवाजी रंगोवन म्हजी अतृप्त इत्सा भागोवन घेतली. आतां, म्हज्या लवराक पोरूं वेंग मारपी ह्या किशोराक बुद्ध शिकोवपाची आसा. म्हणून हांव परतो आयलां.

गांवकार : आरे ! आतां मुखार कितें । ? (किशोराक)

पोको : मुखार !! ....हेदोळ शिवाजी रंगोवन जालो - आतां किशोराक रंगोवन घरा धाडटां....

सॅम्पल : आरे पापया कितें तरी कर मरे !

पोको : करतां ....पळयूच तूं आतां, हांव कितें करतां तें !..आतां ह्या अफझल खानाचेर बसतां आनी किशोराक निवळायतां....

(पोको पांडूचेर बसला... देखून पोको जे कितें उलयता त्या प्रमाण पांडू ॲक्शनी करता.)

पोको : कित्येक जणांनी आमच्यापाशी सलगी केली आणि आपला स्वार्थ साधला ...

तुकाराम : आरे अफझल खान मराठ्यांभशेन उलोवंक लागलो.

पोको : (किशोराक पळोवन पांडू म्हणटा) आरे, मराठ्याभशेनच नव्हे....

आता मी कोंकण्याभशेन, इंग्रजाभशेन सुद्धा उलवायला फाटीफुडे बघणार नाही. (परतून लायट भिरभिरता ...)

पांडू : आरे SS...कोण मरता थंय लायटीकडेन वचून ?...

शाबू : आरे SS ए SS सवकास सवकास ...शॉक बीक येत ..

भिकू : परतून कसलीं तरी सिनालां जाल्यांत. म्हाका मात हें काय धडाचें लागना....कितें तरी आत्म्याचो खेळ सो दिसता ...

तुकाराम : (ल्हवूच फाटल्यान येवन शाबूल्या खांदार दवरून म्हणटा...) भूत SS बी न्ही मरे !!

शाबू : (भिवून) आवय SS गे SS...भूत भूत.....

(इतल्यांत लायट येता....)

गांवकार : (भूत भूत म्हण आड्डतना ताचें बोट गांवकारा वटेन आसता....तें पळोवन) कोण ? ....हांव !! आजो तुजो भूत !...

(पोको किशोराक खातखुतल्यो करता....)

किशोर : (किशोर रामाच्या नाटकांतले संवाद उलयता) लक्ष्मणा !... अतिक्रोधित होऊन प्रश्न सुटणार नाहीत. रावणाने हिंसा केली म्हणून आपणही ती चूक करावी का ?...तुला ठाऊक असणार "विनाशकाले विपरीत बुद्धी !"

गांवकार : (नीट स्टेजीर वचून किशोराच्या गॉलाक धरून) हलकटा... किशोरा ! दाखय, दाखय पळोवया हांगा लक्ष्मण खंय आसा तो. हो, हो, काय हो !...आनी तूं राम रे ! ? पापया...तूं शिवाजी मरे, शिवाजी...(अफझल खानाक पळोवन) ताणे विटयलां म्हण तूं विटयता ? ...(रडपाक लागता) कित्याक रे पापया...हत्येर उठला म्हज्या.....

तुकाराम : (भुजवण दिता...) प्लीज, प्लीज ! अश्रु आवरा ...आपणच धैर्य सोडल्यावर आम्ही कुणाकडे पाहावं ! अश्रु आवरा डायरेक्ट्टर ! (भितल्ल्यान लोक स्टेजीर फातर, टॉमेटो मारतात....कुयो घालतात ...)

सॅम्पल : डायरेक्टर बाब ! हांगा यो. लोक बोवाळ घालपाक लागल्यात. तांकां जाय तें म्हणूनी. पूण एकदाचें नाटक मुखार वचूं दी . तें

विंग्लीशींत म्हणटात न्ही - शेव मस्ट गो ऑन !

तुकाराम : आरे भेक्या ...तें शेव मस्ट न्ही....शो - शो. शो मस्ट गो ऑन.

सॅम्पल : आं ....पुरो हां. शो खंय शो व्हडलो शेव मारता आपल्याक विंग्लीश कळटा म्हण. आमकां कितें विंग्लीश कळना म्हण समजला ?

गांवकार : चॅ ... चॅ ... तूं इंग्लिशीचो माश्टर मरे ! तूं म्हणटा तेंच बरोबर ... शेव मस्ट गो ऑन. ए ऽ ऽ (अफझलखानाक) स्टार्ट युवर भाशण.

पोको: (अफझलखानाचेर बसून) भाशण । ? भाशण उलयतां कोको, आय ॲम मिस्टर पोको.

किशोर : पोको ! ? ...पांय पडटां ...परतून म्हजेर बसनाका...तुका जायतें दितां हांव ....

पोको : जायतें दिता. म्हज्या लवराक वेंग मारता आनी आतां म्हणटा जाय तें दिता....अब मुझसे युद्ध के लिए तैयार हो जाओ.

किशोर : (तलवार भायर काडून) हे पहा अफझलखाना ! ...आम्ही मर्द मराठा आहोत - आम्हाला आव्हान दिल्यास बरे होणार नाही.

पोको: किशोर SS ! ...याद करो वो दीन जब तुने मेरे सुगंधा को वेंग मारी थी. आज मै तुम्हें वेंग मारूंगा ... और आज तुम्हारे पास वाघनखे भी नही है ....हा...हा...हा SS....

(किशोर भिवन फाटी सरता तें पळोवन, बाकीचे एकठांय येतात)

गांवकार : किशो SS..फार्टी सरनाका ...आमी आसा फाटल्यान ! आमी आसा फाटल्यान , तूं कांयच भिनाका. कमॉन किशार !

किशोर : तुमी रावता फाटल्यान, आनी म्हाका भिनाका म्हणटात...आरे SS हांव कितें ,खरो शिवाजी न्ही, ...हांव किशोर. आनी हो ... (पांडूक बोट दाखोवन) अफझलखानूय न्ही, आनी पांडूय न्ही. हो पोको, आतां म्हज्या जिवाक खरो धोको !

सॅम्पल : कितें पोको ? ... आं SS !! ... म्हाका हेदोळूच डाव्ट मारिल्लो ! ...दोन खेप लायट गेली ...तेन्नाच आमकां सिनालां जातालीं. हांवें सांगलें तरी तुमी आयकनासले - आतां भोगा आपल्या कर्माची फळां.

तुकाराम : हय रे हय ! सिनालां जाल्लीं खरीं ...पूण आमकां कितें खबर ...हें भुताटकेचें प्रकरण म्हण ! ?

सगळेजाण : कमॉन किशोर ...दिखा दो...पोक्या को बुद्ध सिखा दो...

किशोर : (तलवार घेवन आंगार वता) कमीने, कुत्ते ...में तेरा खून पी जाऊँगा...हर हर महादेव !

(पोको - अफझलखानाच्या हातान किशोराक घुंवडान सकयल उडयता)

सगळे : उठ ...शिवाजे ...उठ...

शिवाजी ...शिवाजी ...शिवाजी ...शिवाजी

(किशोर उठ्ठा...हिंदी सिनेमांतल्या हिरो भशेन ...)

किशोर : अरे अफझलखान के पिछे ल्हिपके वार करता है ? ... माँ का दूध पिया है तो सामने आओ...तू पोको नही ... तू तो डरपोको है.

पोको : (अफझलखानाक धुकलून उडयता...) वॉसमेर ! आतां यो

मुखार....तुमच्या नाटकाची जर भातेरी केली ना जाल्यार नांवच सांगचों ना.

गांवकार : आरे हें आनी कितें !!...आवाज येता. पूण पोको दिसना.

पोको : दिसना मरे ! ? हें घे थापट...(गांवकाराचेर थापट मारता..) हें घे तुजेर ... (तुकारामाचेर मारता)

किशोर : (पोको आपल्या म्हन्यांत आयला अशें समजून) पांय पडटा, पांय पाडटां ...म्हाका मारनाका...चूक जाली....

पोको : (लोकांक) हांव आसा हातुल्ले आनी हो चूक मागता नेतुल्ले. (किशोराक पळोवन) किशोर...मिस्टर किशोर...राम जावन सुगंधाक वेंग मारपी किशोर ....

किशोर : चूक जाली...आनी मारचो ना...

पोको : (सॅम्पलाक गॉलाक धरून वयर उखलता)

बाकीचे : राम - राम - राम - राम - राम..

पोको : चूप ! ...आतां राम - राम न्ही ...आतां मरा - मरा म्हण ... (सॅम्पलाक) तूंच न्ही रे तो म्हणटालो.. कमॉन शिवाजे दिखा दो ....आतां दाखय मरे ...

सॅम्पल : सोड रे म्हाका ...हांव मेल्यार बायल-भुरगीं वाऱ्यार पडटलीं . (सॅम्पलाक सोडटा...)

पोको : शो मस्ट गो ऑन म्हणटालो न्ही रे तूं ! ...आतां म्हण मरे !! (सॅम्पलाक सोडटा...किशोराक धरता) तूं कोण ? शिवाजी मरे ! शिवाजीचे कपडे चडयले म्हण शिवाजी जायना. शिवाजीचो एक तरी गूण आसा तुज्या आंगांत ?...

किशोर : (भिवून) प प..प्र..पोक्या तूं खंय आसा ??... तूं आमकां दिसना ...म्हणून म्हणटां ...! ? आमी तूजें कितें वायट केलां?

पोको : तुमकां दिसपाक जाय मरे हांव ? ...घे SS..पळय आतां ...(धुंवर जाता आनी तातूंतल्यान "पोको" स्पश्टपणान दिसता....)

सगळे : (अजाप जावन) आं !!!..हय मरे !..

१ : ए SS ...डिकटो पोको मरे ??..

२ : माकडा ! डिकटो कितें ! ?...पोकोच तो !!

३ : आरे ! ...पोको न्ही रे ! पोक्याचें भूत तें !!

४ : पूण पोक्याचें भूत नाटकांत कित्याक ! ?

पोको : नाटकांत कित्याक ! ? सांगतां...तुमी सगळयांनी पोरूं नाटकाच्या निमतान सुगंधाक रोल दिल्लो. ताकाय नाटकाची आवड, म्हण हावेंय ताका तो रोल कर म्हण सांगलें - आनी तुमी कितें काय म्हळयार येसायेवेळार ताची फकाणां मारताले ...हांव ताचेर मोग करता हें जाणा जावन लेगीत तुमी ताका हात लावंक लालेताले ...(किशोराक) तुज्या बायलेकडेन कोणेय तशीं फकाणां केल्यार जायत ? ...(दुसऱ्याक) तुज्या मोगीकेक कोणे दुसऱ्यान हात लायलो जाल्यार तूं ओगी रावतलो ! ? .. तुमच्याच गांवचें, तुमच्या शेजारचें, - तुमची भयण कशी मरे तें ? (सगळयांक आपली चूक लक्षांत येता - सगळे पोक्याकडेन चूक मागतात...)

१ : माफ कर आमकां.

२ : पोक्या ....आमची चूक जाली.

किशोर : परतून केन्नाच आमी स्त्री पात्राचीं अशीं फकणां करचे नात. खंयचेच चलयेकडेन आमी वायट नदरेन पोळोवंचे नात. नाटकाची येसाय जाल्या उपरांत, आपले भयणी भाशेन तांची काळजी घेवन आमी तांकां तांच्या घराकडेन पावयतले.

सगळे : चूक जाली आमची....आमकां माफ कर.

पोको : तुमची ही पयली चूक म्हण तुमकां माफ करतां. दुसरे खेपेक मात तुमकां हांव माफ करचों ना. हीच चूक तुमचे कडल्यान परतून घडली जाल्यार मात तुमची जिण पिसडून उडयतलों - मागीर केदोय व्हडलो घाडी हाडलो तरी तुमची मानगूट सोडचों ना हांव.

(मुख्याल्ल्या लोकांक ...)

आनी तुमकांय बी. तुमच्या गांवांनी जेन्ना नाटकां बसयतले आनी तातुंतल्या स्त्री पात्राचीं तुमी फकाणां करतात म्हण समजतलें ....तेन्ना तेन्ना हांव तुमच्या नाटकाची वाट लायतलों. तुमच्या नाटकांत येवन तुमचे मानगुटेर बसतलों.

बरें तर ! सद्यातरी ....म्हजें काम सोंपलें. आतां चल्लों हांव म्हज्या घरा आनी तुमीय चलात तुमच्या घरा. हें नाटक आतां हांगाच सोंपता ... पूण परतून येयात ...फुडल्या वर्सा. (माचयेर धुंवर जाता. त्या धुंवरांत पोको दिसना. बाकीचे सगळे कलाकार सुटकेचो निस्वास सोडीत उलयत वतात...)

१ : बरे सुटले रे आमी...

२ : म्हणून हांव सांगतालों तुमकां...चलयांची फकाणां करनाकात म्हूण.

३ : हाचेमुरखार ना रे बाबा. हाचेमुरखार स्त्रीपात्रांक आमी बरेतरेन वागोंवया.

४ : बरे बेगीन बुद्ध आयली....

(सगळीं पात्रां बडबडत भितर वतात. पोको थंयूच रावता . ... माचयेर ल्हवू ल्हवू काळोख जायत वता.)

**- दुसरो अंक सोंपता -**

**प्रा. राजय पवार**

जल्म : 19 जून 1972, काणकोण.

## प्रकाशीत साहित्य

पावसफुलां (कवितासंग्रह) 1995 - जैत प्रकाशन - माशेल.

कोंकणी भाशा मंडळाचो 'साहित्य पुरस्कार' 1996

जमलें रे जमलें (नाटक) CD रूपांत 2005 - डिजीटल क्रिएशन - फोंडें

अंता अंता शिरीमंता (नाटक) 2006 - गोवा कोंकणी अकादमी - पणजी

आमचो हात जगन्नाथ (नाटक) 2007 - सानिका प्रॉडक्शन - फोंडें.

गोवा कोंकणी अकादमीचो 'साहित्य पुरस्कार' 2009

डरने का नाय (नाटक) 2008 - सानिका प्रॉडक्शन - फोंडें.

(पयली आवृत्ती सोंपली)

जमलें रे जमलें (नाटक) 2009 - सानिका प्रॉडक्शन - फोंडें.

गिरमीट (ललीत निबंद) 2009 - सानिका प्रॉडक्शन - फोंडें.

नाटक एका नाटकाचें (नाटक) 2010 - सानिका प्रॉडक्शन - फोंडें.

